हचा पुस्तकाक गोंय शिक्षण खात्यान आपल्या DE/Acad. II/ 77/ PS- 6/ 75-76 570 6.8.1986 हचा पत्रावरवीं अधिकृत व्याकरण म्हणून मान्यताय दिल्या.

# कोंकणी व्याकरण

सुरेश जयवंत बोरकार




१९८६

कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय)

गोवा कोंकणी अकादमीन दिल्ल्या अनुदानाच्या आधारान हें पुस्तक उजवाडायलां.

निर्मणी सहकार्यः
प्रभाकर भिडे
राजहंस वितरण
पणजी - गोंय. ४०३ ००१

फोटो कंपोझः
तरुण भारत,बेळगांव. ५९० ००१

३० सप्टेंबर १९८६

सजावटः
गोंविद नायक, विलास परब,
दीपक गाड

छापणावळः
श्रीगुरू ऑफसेट प्रिंटर्स
बेळगांव.५९० ००१

उजवाडावपीः
भरत नायक, सरचिटणीस,
कोंकणी भाशा मंडळ,गोंय
४९-बी, एराज्मु काव्हाल्ज्यु मार्ग,
मडगांव - गोंय - ४०३ ६०१

मोलः अठ्ठावीस रुपया

## हें पावल म्हत्वाचें

गोंयचे सुटके उप्रांत १९६३ वर्साच्यान गोंयांत कोंकणी भाशेंतल्यान शिक्षणाक आरंभ जालो. मुळाव्यो शाळा कोंकणी माध्यमांतल्यान चलूंक लागल्यो, उप्रांत माध्यमिक पांवड्यार एक विशय म्हणून कोंकणी शिकपाची वेवस्था जाली आनी मागीर गोंयच्या माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक परीक्षा मंडळान एस्.एस्.सी.चे आनी हायर सेकंडरी परिक्षेक कोंकणी हो विशय दवल्लो. आयज पस्तीस हजारांवयर विद्यार्थी माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक पांवड्यार कोंकणी एक विशय म्हणून शिकतात.

मुंबई विद्यापीठात बी.ए. च्या अभ्यासक्रमांत कोंकणीचो आस्पाव कांय वर्सां आदीं केल्लो. गोंय विद्यापिठान तो मानून घेतला. इतलेंच न्हय तर गोंय विद्यापिठान कोंकणीचें अध्यासन सुरू करपाचें थारावन ते दिशेन पावलां घाल्यांत.

शिक्षणाचें माध्यम म्हणून कोंकणीचो उपेग सुरू जातकूच व्याकरणाच्या एका बऱ्या पुस्तकाची गरज उप्रासली. कांय वर्गांखातीर स. बाकीबाब बोरकार हांणी बरयल्लीं ल्हान पुस्तकां कोंकणी भाशा मंडळान उजवाडायल्यांत. पुण विद्यार्थी, शिक्षक आणि कोंकणीचो शास्त्रीय अभ्यास करपी हांचेकडल्यान व्याकरणाच्या पुस्तकाची मागणी वाडत गेली. देखून मंडळान श्री.सुरेश ज. बोरकार हांकां व्याकरणाचें पुस्तक बरोवपाची विनंती केली. तांणी ती मानून घेतली आनी व्याकरणाचें बरें पुस्तक तयार जावचें हे नदरेन बरेच कश्ट घेवन हें पुस्तक तयार केलें.

उप्रांत श्री. बोरकार हांचे इत्शेप्रमाण मंडळान पांच जाणांची एक समिती नेमून व्याकरणाच्या हातबरपाचो चिकित्सायेन विचार केलो. ते चर्चेच्या आदारान श्री. बोरकार हांणी हातबरप छापचेखातीर तयार केलें. ते समितीचे वांगडी अशे:

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
प्रा. प्रकाश थळी
श्री. फेलीमियु कार्दोज
प्रा.सुमन्त केळेकार
श्री. उदय भेंब्रो

हातबरप तयार जालें, पुण तें छापून काडूंक मंडळाकडेन फावो तो दुडू नाशिल्ल्यान तें कांय वर्सां तशेंच उल्लें. उप्रांत गोंय सरकारान गोवा कोंकणी अकादमी घडली. मंडळान ते अकादमीकडेन अनुदान मागलें. अकादमीन व्याकरणाच्या पुस्तकाचें म्हत्व वळखून अनुदानाचें मागणें मानून घेतलें. अकादमीच्या दुडवांच्या पालवान उजवाडाक येवपी हें पयलें पुस्तक. गोवा कोंकणी अकादमीच्या ह्या पालवाखातीर मंडळ उपकारी उरतलें.

व्याकरणाचें हें पुस्तक बरें जावचें हे खातीर खूब यत्न केला. ह्या आमच्या यत्नांक खूब जाणांचो आदार मेळ्ळा. खासा सुरेशबाब बोरकार हांणी आनी श्री. प्रभाकरबाब भिडे हांणी तर खूबच कश्ट घेतल्यात.

श्री. गोविंद नायक, श्री.विलास परब, श्री.दीपक गाड, श्री. सुनील गंवडळकर, श्री. अशोक धोंड हांचोय भरपूर आदार जाला. तांचे उपकार मानून मंडळ तांकां बरें मागता.

गोवा कोंकणी अकादमीन अनुदान दिल्यान आनी ह्या पुस्तकाचो चडांत चड प्रसार जावचो हो मंडळाचो हेतू आशिल्ल्यान मोल उण्यांत उणें दवल्लां.

हें पुस्तक उजवाडायतना मंडळाक उपाट खोस जाता. विद्यार्थी, शिक्षक आनी कोंकणीचो अभ्यास करपी हांची एक व्हड गरज हें पुस्तक भागयतलें हे विशीं आमकां दुबाव ना.

तानाजी हळर्णकार

मडगांव - गोंय
३०-९-१९८६

अध्यक्ष,
कोंकणी भाशा मंडळ

# मनोगत

भाशेचो अभ्यास करपी मनशाक व्याकरण आनी शब्दकोश हचा दोन पुस्तकांची गरज आसता. हीं दोनूय पुस्तकां फावो तशीं जालीं नात जाल्यार भाशेच्या अभ्यासांत आडखळी येवं येतात. हो अभ्यास सरळ, सहज आनी सोपे तरेन जावंक जाय. भाशेची वाड तिच्या सगळ्या आंगांच्या अभ्यासांतल्यान जावंक पावता. आनी ती सदांकाळाखातीर एक गिरेस्त पांवडो जोडटा.

गेल्लीं वीस- पंचवीस वर्सां कोंकणीचो अभ्यास जायत आसा. कोंकणींत साहित्य निर्माण जाता. तिचो वापर शासकीय पांवडयाचेर करपाचो हेत सरकारान सध्या परगटायला.

लोक भास उलयले वा उलयतात म्हळ्यार काम जालें अशें न्हय. भास म्हळ्यार एकामेकांमदीं संबंद दवरपाचें साधन. लोकराज्यांत सरकार आनी लोक हांचेमदलो तो दुवो. देखून सरकारी पांवडयावयले लोकांकडेन येवपाचे सगळे संबंद तांचेच भाशेंतल्यान येवंक जाय. सरकाराकडेन आपले संबंद दवरपाखातीर लोक ते भाशेंतल्यान शिक्षण घेता. अशा हचा शिक्षणांतल्यान त्या लोकांची सृजनशक्त उकती जाता. तिकाच साहित्य म्हणटात.

अशे तरेन, सरकारी वापर शिक्षण साहित्य असो भाशेचो उपेग जालो कि ती आपल्या सगळ्या कळांनी फुलता.

हचा तिनूय मळांचेर कोंकणीक आज ना· फाल्यां आपलो हो हक्काचो वांटो उखलचो पडटलोच. तेच दिकेन ती आपली वाट आज चलता. अशा वेळार पुस्तक रुपान तिचें व्याकरण तयार जावप भोव गरजेचें.

कोंकणीखातीर आजमेरेन तिच्या धुवांक आनी पुतांक जायतो वावर करचो पडलो. म्हज्या वांटयाक व्याकरण बरोवपाचो वावर आयलो. आनी म्हजे तांकी प्रमाण हांवें तो केला.

## कोंकणी व्याकरणां

हचा आदीं जायत्या व्याकरणकारांनी कोंकणी व्याकरणां बरोवन दवल्ल्यांत. खरें म्हळ्यार भारतीय भाशांमदलें (संस्कृत सोडून) पयलें बरयल्लें व्याकरण कोंकणीचें! आमकां पळोवंक आनी वाचूंक मेळटा तें पाद्री तोमास इश्तेव्हांव हांचें "Arte da Lingua Canarim" हें १६४० वर्सा उजवाडाक आयिल्लें पुस्तक. तांच्याय आदीं कोंकणी व्याकरण तयार केल्लें म्हणटात. पुण तें छापिल्लें वा ताचें हातबरप म्हाका पळोवंक मेळूंक ना [1].

---

[1]. Nevertheless, it was on the victimized speech of the Konkan that the first grammar in any Indian tongue was composed by a goan lay-brother of the College of S. Paulo in Old Goa, whose name we may soon discover, but whom at the moment we must be content to call "The Grammarian of St. Paul's"- Dr. Jose Pereira, Konkani- A language (Pg. 1) (1971)

हयाउपरान्त व्याकरणाचीं जायतीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. तातूंतलीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां म्हळ्यार पाद्री माफेयचें "A Grammar of Konkani Language" (1882), कॉनेगु जुझे द एस. रीत इ सौझ हांचें "Elementos da Lingua Concani" (1929), जानीन रांजेल हांचें "A Gramatica da Lingua Concani" (1933), कारेल प्रिफिल हांचें "Principia Linguae Brahmanicae". हयाभायर मो. दाल्गादु हांच्या कोंकणी व्याकरणाचें हातबरप पणजेचे सेंट्रल लायब्ररींत पळोवंक मेळटा.

अभ्यासाचे नदरेन गरजेच्या पुस्तकांची नांवां हांगा दिल्यांत. इतिहासाचे नदरेन म्हत्व आशिल्लीं व्याकरणाचीं आनीक जायतीं पुस्तकां पळोवंक मेळटात.

**व्याकरणां बरोवपाफाटलो उद्देश**

पोर्तुगेज वा हेर युरोपी मिशनरी पाद्रींनी कोंकणी व्याकरणां कित्याक बरयलीं? उपरान्त कांय गोंयकारांक तीं बरोवपाची उमळशीक कित्याक लागली?

आपल्या व्याकरणाचे प्रस्तावनेंत माफेय म्हणटात,

"हया व्याकरणांत जें बरें तें देवाच्या पालवाक लागून घडलां. त्या देवाची व्हडवीक वाडयतले हे आशेन तें आदीं मिशनरींक भेटयलां आनी उपरान्त खूब काळमेरेन वासपूस सोडिल्ले हे भाशेचो मुखार आनीक अभ्यास करपाची उर्बा जावची हे आशेन तें कोंकणी लोकांक भेटयलां."[2]

मिशनरी पाद्रींनी कोंकणी व्याकरणां कित्याक बरयलीं तें हया उतरांतल्यान उकतें जाता: देवाचें नांव व्हड करूंक. ज्या प्रदेशांत तांकां खिस्ती धर्माखातीर वावुरपाचें आसलें त्या प्रदेशांतल्या लोकांची भास तांकां शिकची पडली. दुसऱ्यांची भास शिकतलो जाल्यार तिचें व्याकरण आपणें जाणां जावंक जाय हें तत्व तांणी मानलें आनी लोकांचे भाशेचें शिकप आपल्या पाद्रींक सोपें जावचें म्हणून तांणी ते भाशेचीं त्या त्या काळार व्याकरणां बरयलीं.

पोर्तुगेजांच्या जुलमाच्या उज्यांत करपूंक लागिल्ली ही भास तिगून उरची आनी तिची वाड जावची हयायखातीर तांणी तीं बरयलीं.

व्ही. जे. जानीन रांजेल हे आपल्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत म्हणटात, " ...फँकत आपले जल्मभूंयेचे सेवेपसत .... ती एकसंध करून आनी तिचेविशीं पद्धतशीरपणान जाणा जावन घेवन तातूंतल्यान आकारान आनी सरुपायेन गिरेस्त आनी फळादीक अशें साहित्य निर्मुपापसत...." [3]

[2]. "It is offered first to the Missionaries in the hope of its promoting God's glory, to whose help is due whatever good there is in this Grammar and secondly to the Konkani public, in the hope of its stimulating the further study of their long neglected language "– पाद्री आंजेलस फ्रांसिस झेवियर माफेय, "A Konkani Grammar, Preface, Pg. XIV.

[3]. "... Unicamente afim de bem servir a terra do seu berco .... uniformizando e metodizando os conhecimento dela possa dai resultar uma literatura rica e fecunda apurada na forma e na elegancia...."

रीत इ सौझ आपल्या व्याकरणाचे प्रस्तावनेंत म्हणटात, "हे आमचे सोंपूंक आयिल्ले भाशेक वयर काडपाचो वगत आयला अशें म्हाका दिसता."[4]

वयल्या विधानांवयल्यान आमकां एक गजाल समजता आनी ती म्हळ्यार पोर्तुगेज राजवटींत हांगा लोकांचो घुस्मटमार जातालो. आपुण परकी भास कितलीय शिकलों, ते भाशेंतल्यान आपणें कितलेंय बरयलें वा ते भाशेंतल्यान आपणें दीसपट्टे वेव्हार केले जाल्यारूय आपले भाशेची सर तिका केन्नाच येना ही जाणविकाय तांकां जाताली. इतलेंच न्हय तर आपली भास तळाक गेली आनी अशे तिचे दशेक लागून आपुण आपलें नीज वोगडावन बसलों हाची खंत तांचें काळीज कोरांतूंक लागली आनी तातूंतल्यान अशीं व्याकरणां तयार जालीं. हीं व्याकरणां म्हळ्यार परकी भाशेच्या दास्यांतल्यान सुटून आपले भाशेवटयां अभिमानान जियेवपाचे हावेस!

कोंकणींत साहित्य निर्माण जातलें अशी उमेद रांजेलाक जाली आनी पिरायेचीं सत्तर वर्सां हुपून जाल्लीं आसुनूय तांणी अशा साहित्याक आकार दिवंक व्याकरण बरयलें.

निमाणें "कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ" हें १९४९ वर्सा उजवाडाक आयिल्लें शणै गोंयबाबाचें पुस्तक म्हळ्यार कोंकणी व्याकरणाच्या इतिहासांतलें एक आकांताचें तेजिश्ट पर्व.

हें पर्व कोणाक पळोवपाचें ना? कोणाक तें दिसना? सुर्याकडेन कोण पळोवंक सोदिना? हें येदें अनमोल रत्न आमचेकडेन आसतना कोंकणीक व्याकरण ना अशें खंयची जीब म्हणटा?

पुण सुर्याच्या उजवाडाकूय काळोख म्हणपी लोक हचा संवसारांत आसात!

**प्रस्तुत व्याकरण कित्याक?**

वयर सांगल्यांत ती आनी हेर जायतीं व्याकरणां आसतनाय हचा पुस्तकाची गरज कितें?

निव्वळ व्याकरण बरोवन भाशेची उदरगत जातली हचा भ्रमांत कोणें रावचें न्हय. भाशेची उदरगत जावप म्हळ्यार कितें? भाशेची उदरगत म्हळ्यार आपल्या दर एका वावरांत आनी वेव्हारांत ती उपकारावप. तिची उदरगत जातली जाल्यार ती शासकीय भास जावंकूच जाय. एकदां ती सरकारी भास जाली कि ती शिक्षणाचें माध्यम जाता. आनी अशें जालें म्हणटकच साहित्यांतल्यान ती घट जायत वता.

कोंकणीविशीं आज ही गजाल गोंयांत घडटा. आमी जाणात आनी आमी नेणात अशा कोंकणीच्या इतिहासांत पयलेच फावट, कोंकणी वयर सांगल्यांत त्या तीन मळांचेर आज वावुरता. हे पयलींचीं सगळीं व्याकरणां कोंकणीविशींच्या प्रेमान बरयल्यांत. कोंकणीविशींचे लागणुकेक लागून बरयल्यांत.

पुण शणै गोंयबाबाचें व्याकरणं सोडलें जाल्यार हेर सगळीं व्याकरणां कोंकणी सोडून हेर भासांनी आसात. तीं पोर्तुगेजींत आसात, इंग्लिशींत आसात, इतालियन भाशेंत आसात. फकत रांजेलाचें व्याकरण पोर्तुगेजीवांगडा कोंकणींतूय आसा.

---

4. "Suponho que e ja tempo de levantarmos esta nossa lingua de abatimento"

गोंयकरांनी कोंकणीचीं व्याकरणां कोंकणींत कित्याक बरयलीं नात? कोंकणीचें व्याकरण कोंकणींतूच आसूंक जाय ही जाण तांकां नासली. आनी आशिल्लीय जाल्यार परक्या भासांचे ते इतले बंदे जाल्ले कि कोंकणीचें व्याकरण कोंकणींत आसूं येता हाचो दिश्टावो रांजेलाक सोडून कोणाक जालोना.

भास जेन्ना सत्तेर आसना तेन्ना तिची अवस्था कितें जाता तें कुन्ज द रिव्हार हचा विद्वान पोर्तुगेज सेक्रेटरीन सांगलां. ती उलोवपी लोकलेगीत तिका कशे वळखनात आनी आपले भाशेक ते कशे कुस्कुटायतात तें तांणी आपल्या "An Historical Essay on the Konkani Language" हातूंत सांगलां.

ते म्हणटात.

"आवयभाशेविशींचें अज्ञान गोंयांत कितल्या थराक पावलां ताचो हिशेब करूंक; कांय म्हयन्यां आदीं त्याच शारांत सरकारी प्रेसांत एक घडणूक घडली तिचो उल्लेख करतां. एका अभ्यासू मनशान प्रार्थनांचें एक धाकटुलें पुस्तक आपले आवयभाशेंत उजवाडावपाचें थारायलें. छापपाच्या पयशांविशींच्या प्रस्नाचेर भासाभास जाली, आनी कंपोझिटरांनी हचा वावराखातीर २५ टक्के चड मागले, कित्याक काय म्हळचार परके भाशेंत छापपाचो वावर केलो जाल्यार तांकां तितले मेळपाचो कायदो आसलो. अर्विल्ल्या आनी पुर्विल्ल्या भाशांच्या इतिहासांतली अशी ही गजाल सोदून लेगीत मेळपाची ना, अशें आमकां दिसता; पुण आतां प्रेसाकडेन हुज्जत घालपी, खासा संपादकूच, एक गांवठी मनीस, पोर्तुगेज भास म्हळचार आपलीच भास अशें हेरांभाशेनूच एका काळार समजतालो हें जेन्ना आमकां कळटा तेन्ना अशा गजालीचें अजाप दिसना." [5]

अशे परिस्थितींत निव्वळ व्याकरणाचीं पुस्तकां कितें करतलीं? कितेंयतरी घडचें म्हणून रिव्हारान सतराव्या शेंकडयांत बरयल्लीं व्याकरणां आपल्या काळार म्हळचार एकोणिसाव्या शेंकडयांत परतीं छापून घेतलीं. पुण खंय कितें घडलें?

---

[5]. To evaluate how far the ignorance of the mother tongue had reached in Goa, we shall refer to an incident that occurred a few months ago, in the National Press of the same city. A studious person decided to publish a little book of prayer in his mother tongue. The question was discussed regarding the price of printing and the compositors demanded 25 percent more for the work, basing themselves on the rule that this was payable if the work to be printed was in a **foreign tongue**. The fact we believe, is unique in the whole history both of modern and ancient languages, but it is not surprising when we learn that the editor himself, a native, who now disputed with the press, had been influenced, at one time, by general opinion and called the Portuguese language **his own.**"

आपली भास सत्तेर आसता तेन्ना तिका थंय बसोवपाचें कुशीक दवरून लोक कितल्या सोपेपणान सत्तेर आशिल्ले भाशेक दसतात तें वयल्या उतरांतल्यान उकतें जाता. आपलें नीज वोगडावन बशिल्ल्या अशा लोकांक आपले भाशेची लज दिसूंक लागता. सत्तेवयले भाशेचे आपुण बंदे जाले हाची जाण उरना. उरफाटें जाल्यार तातूंत तांकां व्हडपण दिसता. अशा लोकांक जाग हाडपाचो वावर कुन्ज द रिव्हारान एकोणिसाव्या शेंकडयांत केलो.

"Grammatica da Lingua Concani escrita em Portugues – por um missiona'rio Italiano (1850) हचा पुस्तकाक बरयल्ले प्रस्तावनेंत ते म्हणटात:

"आमकां परकी आशिल्ले भाशेविशींची पुस्तकां उजवाडावपाच्या वावराक हात घालपाचें आमी काळीज केलें कशें हाचें अजाप जावं येता हें खरें. पुण अशें काळीज केलें म्हुण आमकां दुशण लावचे आदीं, जांणी आपले आवयभाशेची उदरगत करूंक जाय असली पुण केली ना इतलेंच न्हय तर तिचो अभ्यास करचेबदला तिची निखालस वासपूस सोडल्या, तिका परायपणान कुस्कुटायतात आनी रानटीपणांत दवरतात तांणी-आपणांक तें आदीं लावचें." [6]

गोंयच्या समाजाच्या एका वर्गाची भास दर्यापलतडची जाल्यार दुसऱ्या वर्गाची घाटापेल्यानची! हचा दुसऱ्या वर्गाक जागोवपाचो वावर शणै गोंयबाबांनी केलो. उज्याचें केण कशें एक एक उतर तांचे लिखणेंतल्यान भायर येवन पेटत रावलें. कोंकणीची तांक, तिचो पुर्विल्लो इतिहास, कोंकणी मनशाचें व्हडपण, आपणेंच केल्ली ताणें आपणाली दुर्दशा, आपल्या लोकाक सांगपाक ताणें आपली कूड तशीच लिखणी झरयली. 'ऐन वेळार' हातूंत ते म्हणटात:

"आमी कोंकणे आमगेलें पुर्विल्लें भूत साप विसल्ल्यांत हें येवजून म्हजो आत्मो निरशेता आनी म्हाका खेद जाता. आमी फक्कत आतांचो काळ- आतांची घडकाच-पळेतांत. आज आमी सगळे तरेन खांकनवाळ जाल्यांत."

आनी जशें कुन्ज रिव्हारांनी तरणाटयांक उलो मारून कोंकणीक राणीपदार बसोवंक सांगलें तशेंच शणै गोंयबाबांनी तरणे पिळगेक सांगलें:

---

[6]. "Verdade he que ao primeiro relance se nos pode estranhar a ousadia de nos intromettermos em publicacoes que dizem respeito a uma lingua, na qual somos os primeiros a confessar – nos hospedes mas antes de nos accusarem dessa ousadia, accusem– se primeiro a si proprio de incrivel negligencia aquelles, que podendo e devendo cultivar a sua lingua materna obram tanto, pelo contrario, que nao so promovem o seu estudo, mas..... totalmente a despresam, e a abandonam a corrupcao da cega barbaridade."

"तुमी तुमगेलो पुर्विल्लो भाग्याचो इतिहास बारकायेन विसकून पळयात आनी ते भाशेन तुमी तुमचो आतांचो आनी फुडलो काळ थारायात. तुमच्या धंग- नासपान, निदसुरेपणान, आळसायेन आनी घळयेपणान जे परकी सुवराथी लोक तुमच्या घरांत रिगून तुमच्या हड्डुचार बसल्यात आनी धनीपण चलयतात तांगेलो फर्टाशिचो तडुकी इतिहास तुमी उश्टावं नाकात. तांगेल्या मेंदून तुमी येवजूं नाकात... तुमगेले तेजिश्ट आनी ओजिश्ट बुद्दीन येवजात आनी वावरात. म्हणटकी, तुमी बऱ्याक पावतले."

हचा दोगांयचेय विचार आज गोंयांत किल्लून आयिल्ले आमकां दिसतात. जे पोटतिडकेन तांणी तरण्या भुरग्यांकडेन तांचे भाशेखातीर आनी भुंयेखातीर वावुरचें म्हुण मागलें ते पोटतिडकेचें बीं आज रुजून आयिल्लें आमी पळयतात. हें बीं आज तिनूय मळांचेर किल्लत आसा. खंय खंय ताचीं रोपां जाल्यांत आनी घट बरीं मुळां घेवन तीं वाडत आसात. जाल्यार खंय खंय तीं निकतींच किल्लतात. कोंकणीच्या इतिहासांत अशी ही गजाल पयलेच फावट घडटा.

खंयचेय भाशेक व्याकरणाचें पुस्तक पूरक आसता. वेगळचा वेगळचा मळांचेर भाशेचो वापर जाता तेन्ना व्याकरण तिका फावो ती घटसाण दिता.

अशी घटसाण दिवपाचें काम व्याकरणाच्या पुस्तकाचें आसूंक जाय. तेंच करपाखातीर प्रस्तुत पुस्तक बरयलां.

### पुस्तकाची बांदावळ

सर्वसादारणपणान व्याकरणाचे तीन वांटे आसतात.

१. ध्वनीविचार; २. शब्दविचार; ३. वाक्यविचार.

व्याकरण रचपाची ही परंपरेन आयिल्ली पद्धत हचा पुस्तकांत घेवंक ना. आमीच आमचे भाशेचें व्याकरण आमचेचखातीर शिकतात. म्हणटकच व्याकरणाचे सुरवेक ध्वनीविशी विचार करपाची आमकां गरज ना. शाळेंत शिकतना वेगळीं वेगळीं अक्षरां आनी तांचे उच्चार हांची आमकां संवकळ जाल्ली आसता. तेन्ना तांचो शास्त्रीय विचार आमी सुरवेक करूंक जाय म्हुण ना.

व्याकरण म्हळचार उतरांची बांदावळ. ती एका खास उतराभोंवतणी जाल्ली आसा. हें उतर क्रियापद. म्हणुनूच क्रियापदाविशीं विचार हचा पुस्तकांत सगळचांत आदीं केला. क्रियापद विधान करपाखातीर उपकारायतात. जाचेविशीं तें सांगता तें नाम. ताचेविशीं विचार रोखडोच मागीर केला. नामाबदला येवपी उतर सर्वनाम. दोगांचोय विशेश सांगपी विशेशण आनी तांच्यो मोडी म्हळचार विभक्ती अशा क्रमान एका फाटल्यान एक हे विशय घेतल्यात. अशे तरेन पयल्या वांटचांत संदांच गरज लागपी व्याकरणाच्या म्हत्वांच्या विशयांचो आसपाव जाला.

दुसऱ्या वांटचांत वाक्याविशीं भासाभास केल्या. हचाच वांटचांत अव्ययांचोय विचार जाला. अव्ययांक वाक्यांतूच अर्थ आसता.

अशे तरेन दोनूय वांटचांत व्याकरणाचो मुखेल विशय येवन गेल्याउपरान्त ज्या अक्षरांपसून उतरां जातात तांचो विचार तिसऱ्या वांटचांत जाल्यार उतरां घडपाच्यो ज्यो कांय तरा आसात तांचो विचार चवथ्या वांटचांत केला. कोंकणी स्वरांचे उच्चार म्हळचार कोंकणीचो एक आगळोच अलंकार; तेच भाशेन संधी आनी समास हांका लागून जाल्लीं उतरां जितलीं हेर भासांचीं तितलींच तीं कोंकणीचींय कशीं तें

दाखोवपाखातीर हचा दोनूय विशयांचेर खोलायेन भासाभास केल्या. संधी आनी समास म्हळचार संस्कृत भाशेचें आमकां मेळिल्लें दायज. हेर भासांचो जसो हचा दायजाचेर अधिकार आसा तसोच तो कोंकणीचोय आसा. अशीं उतरां उपकारावपाचो सुयोग हचा आदीं कोंकणीक मेळूंक नासलो. हचा मुखार गरज पडली जाल्यार अशीं उतारां उपकारावपाक तिणें अनमनचें न्हय आनी हीं उतरां जितलीं हेर भासाचीं तितलीच तीं कोंकणींची म्हणपाचो इल्लोय दुभाव आमकां उरचो न्हय.

### पुस्तकाची व्याप्ती

कोंकणी जशी गोंयची तशीच ती उत्तरेक आनी दक्षिणेक कोंकण देगेचीय. पुण कोंकणीच्यो दोनूय कडल्यो मोडी शिकपाचे यत्न हचा पुस्तकांत करूंक ना. साहित्य, शिक्षण आनी शासन हचा तीन मळांचेर कोंकणी आज गोंयांत होळू होळू आपलीं मुळां घट करता. अशा वेळार हींच मुळां पयलीं घट जावचीं आनी तशीं तीं जाल्याउपरान्तूच जंय जंय कोंकणी पातळूळचा तिचो अभ्यास एकठांय बसून करूंक जमतलो. सध्या फकत गोंयची गरज भागोवपाखातीर व्याकरण आसचें अशें थारायलें. आनी ताका तशो शिमो घाल्यो.

भास एकसंध आसना. ती वेगळे वेगळे तरेन लोक उलयतात. भाशेच्यो हचो वेगळचो वेगळचो मोडी हचा व्याकरणांत ते ते सुवातेर दाखयल्यात.

### शुद्धलेखन

हें पुस्तक बरोवन जातकच कोंकणी भाशा मंडळान २ फेब्रुवारी १९८६ हचा दिसा ढवळे एक शिबीर घेवन कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम थारायले. त्याच नेमांक धरून हचा पुस्तकांतलें शुद्धलेखन आसा.

### व्याकरण आनी आमी

व्याकरण हो खूब क्लिश्ट विशय. सर्वसादारण मनशाक तो आवडना. भास शिकोवपी आनी शिकपी हांकांच तें वाचचें आनी शिकचें पडटा. पुण कोंकणी व्याकरण ही तशी गजाल न्हय. कोंकणी चळवळीचोच हें पुस्तक एक वांटो जाल्ल्यान जाका तें खंयच आनी कित्याकूच नाका ताकाय तें वाचचेंशें दिसुये. देखून तें चडांत चड सोपें, सरळ आनी सहज जावचें आनी कळचें म्हुण हांगा सगळे तरेचो यत्न केला. चड भासाभास, चड चिकित्सा, हांगा करूंक ना.हचा पुस्तकाक लागून कोंकणीचे उदरगतीक थोडो भोव हातभार लागलो जाल्यार म्हजे कश्ट फुकट गेले नात अशें जातलें.

जे जे कोंकणीखातीर कश्टले आनी तिश्टले, जे अजून कश्टतात आनी तिश्टतात त्या सगळचा ल्हान व्हड भावाभयणींक हें पुस्तक मोटे नमळायेन भेटयतां.

सुरेश जयवंत बोरकार

# उपकार

हें पुस्तक बरोवंक घेत पासून तें छापून जायमेरेन म्हाका कांय जाणांचो आनी संस्थांचो पालव मेळ्ळो तांचे उपकार हांव हांगा आठयतां:

उदय भेंब्रो, मडगांव
रोहिदास नागेश तारी, बेतकी
आर.व्ही. भट, पणजी
सुधा लवंदे, पणजी
मनोहरराय सरदेसाय, पणजी
सुमंत केळेकार, प्रियोळ
फेलीसियु कार्दोज, नावेली
प्रकाश थळी, राय
सोमनाथ कोमरपंत, मडगांव
श्रीपाद रघुनाथ देसाय, पेडणे
नारायण सरदेसाय, पणजी
नागेश करमली, पणजी
प्रभाकर भिडे, रायबंदर
व्ही.बी.हुबळी, पणजी
पिया रोद्रिगीश, सान्ताक्रुझ
लुर्दिश कोश्त, पणजी
कोंकणी भाशा मंडळ, मड्गांव
सेंट्रल लायब्ररी, पणजी
गोवा कोंकणी अकादमी, पणजी

- सुरेश ज. बोरकार

कोंकणीखातीर
जे कश्टले आनी तिश्टले
ज़े कश्टतात आनी तिश्टतात
त्या ल्हान व्हड सगळ्यांक

आवयभाशेक तिच्या हक्काची सुवात दिवपाचो वेळ आतां आयला. गोंयकार तरणाटचांनो, तुमच्या गांवभावांचो बौद्धिक आनी सामाजिक पुनर्जल्म करपाचो हो मोटो वावर तुमचे खातीर राखून दवल्ला.

- कुन्ज रिव्हार

(Ensaio Histro'rico da Lingua Concani)

आमीच आमची आवयभास "सुरेख- सुंदर आनी गिरेस्त" भास म्हणून तिका उखलून धल्ल्यार पुरोना. ती कशी आनी कित्याक "सुरेख- सुंदर आनी गिरेस्त" तें आमी दाखोवंक जाय; कित्याक, हेराय लोकान तिका तसली आनी एक वेगळी आनी स्वतंत्र भास म्हुण वळखून घेवंक जाय.

- जोआकीं आंतोतियु फेर्नांदिश

(Konknni Nad-Xastr)

गोंयकारांक संवसारांत वैर माथें काडचें आसल्यार ताणीं परक्या भासांक आपले बुद्दिची स्वतंत्रताय विकून खांकनवाळ बंदे जांवचे भाशेक आपणाले आवयभाशेचो म्हणचे कोंकणिचोच थातो-माथो करचो. ते भाशेंत बरौंक तांका स्फूर्त जातली. ते घरगुतायेन आनी मेकळेपणान बरैतले. नामना जोट्टले आनी जल्मभुंयेचो लोकीक गाजैतले.

- शणै गोंयबाब

# मांडावळ

## वांटो : १ शब्दविचार
## भाग :१: क्रियापद
## पाठ एक
## विशय प्रवेश

### (अ)

१. व्याकरणाचे नदरेन भाशेंत चड म्हत्वाचें उतर क्रियापद. कोणूय वा कितेंय जें करता, जे अवस्थेंत तें आसता वा तिचें जें घडटा तें उकतावपी उतराक **क्रियापद** म्हणटात.

(i) गोंयकार नुस्तें **खाता**. नुस्त्याबगर ताका जेवण **चलना**.

(ii) झाडार फुलां **फुलतात** तेन्ना तीं कितलीं सोबीत **दिसतात**! पुण तीं तोडटकच **बावतात** आनी **सुकतात**.

(iii) उदकांत नुस्तें मेकळेपणान **रावता** पुण उदकाभायर तें **फडफडटा** आनी **मरता**.

वयल्या वाक्यांतलीं **खाता**, **चलना**, **फुलतात**, **दिसतात**, **बावतात** **सुकतात**, **रावता**, **फडफडटा**, **मरता** हीं उतरां क्रियापदां.

२. क्रियापदाक एक मूळ आसता. हें मूळ घेवन क्रियापद आपणाल्या वेगळ्या वेगळ्या रुपांनी भाशेंत घोळटा. ह्या मुळाक **धातू** म्हणटात.

**वाक्यः** उदक नामून झाडां **सुकतात**. झाडां **सुकलीं** म्हणटकच फुलां **सुकचीं** नात?

हया वाक्यांत **सुकतात, सुकलीं, सुकचीं** हीं एकाच क्रियापदाचीं वेगळीं वेगळीं रुपां. हया सगळया रुपांनीं **सुक** हें मूळ आसा. तेंच त्या क्रियापदाचो **धातू**.

३. धातू कळटकच हेर रुपां वळखूंक वा घडोवंक सोपें जाता. संस्कृत व्याकरणांत धातूंची वळेरीच दिल्ली आसता. तशी वळेरी कोंकणींत दिवपाची गरज ना. सामके सोपे तरेन आमच्यानी धातू वेगळावंक येतात.

४. कोंकणींत क्रियापदाचें सादारण रूप **प** अक्षरान सोंपताः

चल**प**, धांव**प**, पुस**प**, मेळ**प**, मोड**प**,
भोंवडाव**प**, घडघडाव**प**...

५. सादारण रुपांत क्रियापद **तीन** वा **चड** अक्षरी आसता. सोंपतें **प** गळ्ळें कि चडशा क्रियापदांचें उरता तें रूप म्हळचार धातू.

| **क्रियापदाचें सादारण रूप** | **धातू** |
|---|---|
| पडप | पड- |
| हांसप | हांस- |
| मागप | माग- |

६. कोंकणींत कांय क्रियापदां **व प** अक्षरांनी सोंपतातः

धांव**प**, ला**वप**, न्हा**वप**, चरचरा**वप**...

अशा क्रियापदांचे धातू वळखूंक तीन तरा आसात. त्यो अशोः

(i) कांय क्रियापदांचे धातू विधान ५ हातूंत दिल्ल्या नेमाप्रमाण वेगळावतातः

| | |
|---|---|
| धांवप | धांव- |
| भोंवप | भोंव- |
| पावप | पाव- |

(ii) कांय क्रियापदांत सोंपतें **प** गळटा आनी **व** चें **य** जाताः

| | |
|---|---|
| लावप | लाय- |
| खोवप | खोय- |
| रोवप | रोय- |
| चोवप | चोय- |

(iii) कांय क्रियापदात सोंपतीं **व प** हीं दोनूय अक्षरां गळून पडटात. हीं क्रियापदां अशींः

| | |
|---|---|
| खावप | खा- |
| घेवप | घे- |
| जावप | जा- |
| जियेवप | जिये- |
| दिवप | दि- |
| न्हावप | न्हा- |
| येवप | ये- |

(iv) कांय क्रियापदांत **व** गेल्लें दिश्टी पडटा तशेंच **व** चें **य** जाल्लें दिश्टी पडटा. हीं क्रियापदां अशींः

| | |
|---|---|
| गावप | गा-/गाय- |
| धुवप | धु-/धुय- |
| पिवप | पि-/पिये- |

पि- ह्या धातूबरोबर पिये- असोय धातू घोळिल्लो दिश्टी पडटा. तो पियेवप ह्या क्रियापदाचो धातू.

**७.** विधानां ५ आनी ६ हातूंत सांगिल्ल्या धातूंचें रूप आनी एकवचनांतल्या दुसऱ्या पुरुशाक आज्ञा करूंक उपकारायिल्लें रूप हीं दोनूय सारकींच.

| क्रियापदाचें सादारण रूप | धातू | आज्ञा करूंक उपकारायिल्लें रूप |
|---|---|---|
| वचप | वच- | (तूं) वच |
| बसप | बस- | (तूं) बस |
| खावप | खा- | (तूं) खा |
| दिवप | दि- | (तूं) दी |
| हाडप | हाड- | (तूं) हाड |
| व्हरप | व्हर- | (तूं) व्हर |
| लावप | लाय- | (तूं) लाय |

**आडवाद : येवप** क्रियापदाचो धातू **ये**- जाल्यार ताचें दुसऱ्या पुरुशाक आज्ञा करूंक उपकारायिल्लें रूप **यो** जाता.

§ कांय क्रियापदांत **प** गळटकच धातूंत मातसो बदल जाता. हीं क्रियापदां अशीं:

| क्रियापदाचें सादारण रूप | धातू | आज्ञा करूंक उपकारायिल्लें रूप |
|---|---|---|
| आफडप | आफुड- | आफूड |
| आमडप | आमुड- | आमूड |
| आंवळप | आंवुळ- | आंवूळ |
| पांगरप | पांगुर- | पांगूर |
| पिसडप | पिसुड- | पिसूड |
| फाफडप | फाफुड- | फाफूड |
| वावरप | वावुर- | वावूर |

८. क्रियापदाचीं वेगळीं वेगळीं रुपां जावचेआदीं धातूचीं दोन धातूविशेशणी मुळावणां जातात. तीं अशीं:

(i) अपूर्ण काळ दाखोवंक

**अत** कूस लागून अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावण जाता.

(ii) पूर्ण काळ दाखोवंक

**ल** कूस लागून पूर्ण धातूविशेशणी मुळावण जाता.

| क्रियापद | धातू | अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | पूर्ण धातूविशेशणी मुळावण |
|---|---|---|---|
| नाचप | नाच- | नाचत | नाचल |
| रोवप | रोय- | रोयत | रोयल |
| खावप | खा- | खात | खाल |
| बसप | बस- | बसत | बसल |

## (आ)

९. विधान करप हें क्रियापदाचें काम; कोणायविशीं वा कित्यायविशीं तें कितें तरी सांगता. जाचेविशीं तें सांगता ताका **कर्तो** म्हणटात.

(i) **भुरगीं खेळटात.**
(ii) **भुरगीं** बाजारांत **गेलीं.**
(iii) **भुरगीं** सगळेकडेन भोंवन परतीं **येतलीं.**

वयल्या वाक्यांनी **भुरगीं** हें उतर कर्तो. हचा उतराविशीं **खेळटात, गेलीं, येतलीं** हचा क्रियापदांनी वेगळीं वेगळीं विधानां केल्यांत.

१०. जायत्या क्रियापदांची करणी कोणाचेर तरी वा कोणाखातीर तरी घडटा. जाचेर वा जाचेखातीर ती घडटा ताका **कर्म** म्हणटात.

भुरगीं **लाडू** खातात.

हचा वाक्यांत खावपाची करणी **लाडू** हचा उतराचेर जाता. देखून **लाडू** हें उतर **खातात** क्रियापदाचें कर्म.

ज्या क्रियापदाची करणी कोणाचेर तरी वा कोणाखातीर तरी घडटा त्या क्रियापदाक **कर्म** आसा म्हणटात. आनी देखून अशा कर्म आशिल्ल्या क्रियापदाक **सकर्मक** क्रियापद म्हणटात.

कांय क्रियापदांची करणी कोणाचेरूच घडना. अशा क्रियापदांक कर्म ना अशें म्हणटात. आनी अशा क्रियापदाक **अकर्मक** क्रियापद म्हणटात.

भुरगीं **नाचतात.**

हचा वाक्यांत नाचपाची करणी कोणाचेरूच जावंक ना. देखून नाचतात हें अकर्मक क्रियापद.

क्रियापदांचें मूळ धातू जाल्ल्यान सकर्मक आनी अकर्मक क्रियापद म्हणपाचे सुवातेर जायतेकडेन सकर्मक आनी अकर्मक धातू म्हणपाची चाल आसा.



## पाठ दोन

## काळ

११. करणी **फाटीं** घडिल्ली आसता, ती **आतां** घडटा वा ती **फुडें** घडटली. हचाखातीर क्रियापदाक **काळ** आसात अशें म्हणटात. हचाभायर क्रियापदाचीं आनीक जायतीं रुपां भाशेंत घोळटात. तांकां **अर्थ** म्हणटात. **काळांत** वावुरपी रुपांय **अर्थांत** सामाविल्लीं आसतात.

१२. कोंकणींत क्रियापदाचे **तीन काळ** आनी **चार अर्थ** आसात.

(i) **काळ:**

**वर्तमान** (आतांचो)
**भूत** (फाटलो)
**भविश्य** (फुडलो)

(ii) **अर्थ:**

**विधानार्थ**
**संकेतार्थ**
**आज्ञार्थ**
**विध्यर्थ**

१३. वयर दिल्ल्या तीन काळांनी मेळून क्रियापद सात मुखेल रुपांनी घोळटा. हीं रुपां अशीं:

क्रियापद : **तापप**

| धातू | वर्तमानकाळ | भूतकाळ | भविश्यकाळ |
|---|---|---|---|
| ताप- | (१) तापता | (१) तापतालो | (१) तापत |
| | (२) तापला | (२) तापलो | (२) तापतलो |
| | | (३) तापिल्लो | |

१४. क्रियापद वाक्यांत घोळटना **कर्त्याक** घेवन घोळटा. जायतेदां तें **कर्माकूय** बरोबर घेवन घोळटा. अशें घोळटना ताका कांय फावटी **कर्त्याक धरून चलचें पडटा** जाल्यार कांय फावटी **कर्माक धरून चलचें पडटा.**

कर्तो वा कर्म आसपी उतरांच्या मोडींक लागून क्रियापदाक आपणालें रूप थारावचें पडटा. हचो मोडी जावपाचें कारण म्हळचार कर्तो वा कर्म आसपी उतराक **पुरुश, लिंग** आनी **वचन** हचा तीन आंगांक धरून चलचें पडटा.

तांची बारीकसाण अशी:

(i) **पुरुश :**

पयलो पुरुश : **हांव**
दुसरो पुरुश : **तूं**
तिसरो पुरुश : **तो**

(ii) **लिंग :**

पुरुशलिंग : **तो**
स्त्रीलिंग : **ती**
नपुंसकलिंग : **तें**

(iii) **वचन :**

एकवचन
भोववचन

क्रियापदांच्या काळांचो अभ्यास करतना अकर्मक क्रियापदाचो, आनी सकर्मक क्रियापदाचो, असो वेगळो वेगळो तो करप बरो.

## (आ)
## अकर्मक क्रियापद : तापप

**१५.** (i) **वर्तमान : १ : अपूर्ण**

| | | ए. व. | | भो. व. |
|---|---|---|---|---|
| प.पु. | हांव | तापतां | आमी | तापतात (तापतांव) |
| द.पु. | तूं | तापता | तुमी | तापतात |
| ति.पु. | तो | | ते | |
| | ती | तापता | त्यो | तापतात |
| | तें | | तीं | |

| धातू | अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | कूस | क्रियापदाचें रूप |
|---|---|---|---|
| ताप- | तापत | आं | तापतां |
| | | आ | तापता |
| | | आ | तापता |
| | | आत (आंव) | तापतात (तापतांव) |
| | | आत | तापतात |
| | | आत | तापतात |

१६. **वर्तमान** : १ : **अपूर्ण** : ह्या काळांत क्रियापद **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी वचन हांच्याप्रमाण घोळटा.

१७. (ii) **भूत** : १ : **अपूर्ण**

| | | ए.व. | | भो.व. |
|---|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश : हांव | (पु. लिं.) | तापतालों | आमी | तापताले |
| | (स्त्रीलिं.) | तापतालीं | | तापतालीं |
| | (न. लिं.) | तापतालें | | तापतालीं |
| दुसरो पुरुश : तूं | (पु. लिं.) | तापतालो | तुमी | तापताले |
| | (स्त्रीलिं.) | तापताली | | तापतालीं |
| | (न.लिं.) | तापतालें | | तापतालीं |
| तिसरो पुरुश : तो | | तापतालो | ते | तापताले |
| ती | | तापताली | त्यो | तापताल्यो |
| तें | | तापतालें | ती | तापतालीं |

| धातू | अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | | कूस | क्रियापदाचें रूप |
| --- | --- | --- | --- | --- |
| | | ए.व. | | |
| ताप- | तापत+आ=तापता | | लों-लीं-लें | तापतालों-लीं-लें |
| | | | लो-ली-लें | तापतालो-ली-लें |
| | | | लो-ली-लें | तापतालो-ली-लें |
| | | भो.व. | | |
| | | | ले-लीं-लीं | तापताले-लीं-लीं |
| | | | ले-लीं-लीं | तापताले-लीं-लीं |
| | | | ले-ल्यो-लीं | तापताले-ल्यो-लीं |

१८. **भूत: १ : अपूर्ण** : ह्या काळांत क्रियापद **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी वचन हांच्याप्रमाण घोळटा.

टीप : **आमी** आनी **तुमी** स्त्रीलिंगी आसतात तेन्ना **लीं** हें भोववचनी कूस ल्यों/ल्यो अशेंय जाल्लें दिश्टी पडटा. मुखावयल्या रूपांचो अभ्यास करतना हें मतींत धरचें.

आमी (स्त्रीलिं.) तापता**ल्यों**
तुमी (स्त्रीलिं.) तापता**ल्यो**

१९. (iii) **भविश्य : २ : नित्शित**

| | ए.व. | | भो.व. | |
| --- | --- | --- | --- | --- |
| पयलो पुरुश : हांव | (पु.लि.) तापतलों | आमी | (पु.लिं.) | तापतले |
| | (स्त्रीलिं.) तापतलीं | | (स्त्रीलिं.) | तापतलीं |
| | (न.लिं.) तापतलें | | (न.लिं.) | तापतलीं |
| दुसरो पुरुश : तूं | (पु.लिं.) तापतलो | तुमी | (पु. लिं.) | तापतले |
| | (स्त्रीलिं.) तापतली | | (स्त्रीलिं.) | तापतलीं |
| | (न.लिं.) तापतलें | | (न.लिं.) | तापतलीं) |
| तिसरो पुरुश : तो | तापतलो | ते | | तापतले |
| ती | तापतली | त्यो | | तापतल्यो |
| तें | तापतलें | तीं | | तापतलीं |

| धातू | अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | कूस | क्रियापदाचें रूप |
|---|---|---|---|
| | | ए.व. | |
| ताप- | तापत | लीं-लीं-लें | तापतलों-लीं-लें |
| | | लो-ली-लें | तापतलो-ली-लें |
| | | लो-ली-लें | तापतलो-ली-लें |
| | | भो.व. | |
| | | ले-लीं-लीं | तापतले-लीं-लीं |
| | | ले-लीं-लीं | तापतले-लीं-लीं |
| | | ले-ल्यो-लीं | तापतले-ल्यो-लीं |

२०. **भविश्य : २ नित्शित** : हचा काळात क्रियापद **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी वचन हांच्याप्रमाण घोळटा.

टीप : भविश्यकाळ पूर्ण वा अपूर्ण आसूं नजं. भविश्यकाळांत घडपाची करणी नित्शित वा अनित्शित आसूं येता. पुण भविश्यकाळांत कितेंच नित्श्चित नाशिल्ल्यान करणेक पूर्णत्व येवं नजं. देखून हचा काळाक अपूर्ण म्हणपाची चाल आसा. हचा पुस्तकांत हचा काळाक कर्तो नित्शयी आसा म्हणून नित्श्चित भविश्यकाळ म्हळां.

२१. **वर्तमान, भूत आनी भविश्य हचा तिनूय काळांतलीं अपूर्णकाळी रुपां अपूर्ण धातुविशेशणी मुळावणाक कुसां लागून जातात.**

२२. (iv) **वर्तमान : २ : पूर्ण**

| | | ए.व. | | भो व |
|---|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश : हांव | (पु.लिं.) | तापलां | आमी | तापल्यात |
| | (स्त्रीलिं.) | तापल्यां | | तापल्यांत |
| | (न.लिं.) | तापलां | | तापल्यांत |
| दुसरो पुरुश : तूं | (पु.लिं.) | तापलां | तुमी | तापल्यात |
| | (स्त्रीलिं.) | तापल्या | | तापल्यांत |
| | (न.लिं.) | तापलां | | तापल्यांत |
| तिसरो पुरुश : | तो | तापला | ते | तापल्यात |
| | ती | तापल्या | त्यो | तापल्यात |
| | तें | तापलां | तीं | तापल्यांत |

| धातू | पूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | कूस | क्रियापदाचें रूप |
|---|---|---|---|
| | | ए.व. | |
| ताप- | तापल | आं-यां-आं | तापलां-ल्यां-लां |
| | | आ-या-आं | तापला-ल्या-लां |
| | | आ-या-आं | तापला-ल्या-लां |
| | | भो.व. | |
| | | यात-यांत-यांत | तापल्यात-ल्यांत-ल्यांत |
| | | यात-यांत-यांत | तापल्यात-ल्यांत-ल्यांत |
| | | यात-यांत-यांत | तापल्यात-ल्यांत-ल्यांत |

२३. **वर्तमान : २ : पूर्ण :** हचा काळांत क्रियापदाचीं रूपां **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी वचन हांच्याप्रमाण जातात.

२४. (iv) **भूत : २ : पूर्ण**

| | | ए.व. | | भो.व. |
|---|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश : हांव | (पु.लिं.) | तापलों | आमी | तापले |
| | (स्त्रीलिं.) | तापलीं | | तापलीं |
| | (न.लिं.) | तापलें | | तापलीं |
| दुसरो पुरुश : तूं | (पु.लिं.) | तापलो | तुमी | तापले |
| | (स्त्रीलिं.) | तापली | | तापलीं |
| | (न.लिं.) | तापलें | | तापलीं |
| तिसरो पुरुश : | तो | तापलो | ते | तापले |
| | ती | तापली | त्यो | तापल्यो |
| | तें | तापलें | तीं | तापलीं |

| धातू | पूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | कूस | क्रियापदाचें रूप |
|---|---|---|---|
| | | ए.व. | |
| ताप- | तापल | ओ-ई-एं | तापलो-लीं-लें |
| | | ओ-ई-एं | तापलो-ली-लें |
| | | ओ-इ-एं | तापलो-ली-लें |
| | | भो.व. | |
| | | ए-ई-ईं | तापले-लीं-लीं |
| | | ए-ई-ईं | तापले-लीं-लीं |
| | | ए-यो-ईं | तापले-ल्यो-लीं |

२५. **भूत : २ : पूर्ण** : ह्या काळांत क्रियापदाचीं रुपां **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी वचन हांच्याप्रमाण जातात.

२६. (iv) **भूत : ३ : अतिपूर्ण**

| | | ए.व. | | भो.व. |
|---|---|---|---|---|
| **पयलो पुरुश : हांव** | (पु.लिं.) | तापिल्लों | आमी | तापिल्ले |
| | (स्त्रीलिं.) | तापिल्लीं | | तापिल्लीं |
| | (न.लिं.) | तापिल्लें | | तापिल्लीं |
| दुसरो पुरुश : तूं | (पु.लिं.) | तापिल्लो | तुमी | तापिल्ले |
| | (स्त्रीलिं.) | तापिल्ली | | तापिल्लीं |
| | (न.लिं.) | तापिल्लें | | तापिल्लीं |
| तिसरो पुरुश : | तो | तापिल्लो | ते | तापिल्ले |
| | ती | तापिल्ली | त्यो | तापिल्ल्यो |
| | तें | तापिल्लें | तीं | तापिल्लीं |

| धातू | पूर्णधातूविशेशणी मुळावण | | कूस | क्रियापदाचें रूप |
|---|---|---|---|---|
| | | ए.व. | | |
| ताप- | तापल - तापिल | | लों-लीं-लें | तापिल्लों-लीं-लें |
| | | | लो-ली-लें | तापिल्लो-ली-लें |
| | | | लो-ली-लें | तापिल्लो-ली-लें |
| | | भो.व. | | |
| | | | ले-लीं-लीं | तापिल्ले-लीं-लीं |
| | | | ले-लीं-लीं | तापिल्ले-लीं-लीं |
| | | | ले-ल्यो-लीं | तापिल्ले-ल्यो-लीं |

टीप : तापिल्लो हें अतिपूर्णकाळी रूप **तापल्लो** आनी **तापलेलो** अशींय घोळटात.

२७. **भूत : ३ : अतिपूर्ण** हच्या काळांत क्रियापदाचीं रुपां **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी **वचन** हांच्याप्रमाण जातात.

२८. (vii) **भविश्य : १ : अनित्शित**

| | | ए.व. | | भो.व. |
|---|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश : | हांव | तापन | आमी | तापूं |
| दुसरो पुरुश : | तूं | तापशी | तुमी | तापशात |
| तिसरो पुरुश : | तो<br>ती<br>तें | तापत | ते<br>त्यो<br>तीं | तापतीत |

| धातू | | कुसां | क्रियापदाचीं रूपां |
|---|---|---|---|
| | ए.व. | | |
| ताप– | | न | तापन |
| | | शी | तापशी |
| | | त | तापत |
| | भो.व. | | |
| | | ऊं | तापूं |
| | | शात | तापशात |
| | | तीत | तापतीत |

टीप: कर्तो अनित्शित आशिल्यान ह्या काळाक 'अनित्शित' म्हणटात.

२९. **भविश्य :१: अनित्शित** : ह्या काळांत क्रियापदाचीं रूपां **कर्त्याचो** पुरुश आनी वचन हांच्याप्रमाण जातात.

३०. (i) ते (vii) हातूंत पळयल्ल्या क्रियापदाच्या रुपांवयल्यान कांय गजाली उकत्यो जातात त्यो अशो:

(१) क्रियापदाचें अपूर्ण काळांतलें रूप (भविश्यकाळ : २ : नित्शित धरून) अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावणाचेर आधारिल्लें आसता.

क्रियापद : तापप
धातू : ताप-
अपूर्ण धातूविशेशणी रूप : ताप**त**
अपूर्ण वर्तमानकाळ : ताप**ता**
अपूर्ण भूतकाळ : ताप**तालो**
नित्शित भविश्यकाळ : ताप**तलो**

(२) क्रियापदाचें पूर्ण काळांतलें रूप पूर्ण धातूविशेशणी मुळावणाचेर आधारिल्लें आसता.

क्रियापद : तापप
धातू : ताप-
पूर्ण धातूविशेशणी रूप : तापल
पूर्ण वर्तमानकाळ : तापला
पूर्ण भूतकाळ : तापलो
अतिपूर्ण भूतकाळ : तापिल्लो

(३) **भविश्यकाळ : १ : अनितिशत** : हें रूप सरळ धातुकूच कुसां लागून जाता.

ताप- ताप+त = तापत

(४) **वर्तमानकाळ : १ : अपूर्ण** आनी **भविश्यकाळ : १ : अनितिशत** हे दोन काळ सोडले जाल्यार उरिल्ल्या पांचूय काळांनी क्रियापद कर्त्याचो पुरुश, लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण चलता जाल्यार हचा दोनूय काळांत तें फकत पुरुश आनी वचन हांचेप्रमाण चलता.

## (इ)

सकर्मक क्रियापंद : **मागप**

३१. (i) **वर्तमान : १ : अपूर्ण**

| | ए.व. | | भो.व. | |
|---|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश : | हांव | मागतां | आमी | मागतात |
| दुसरो पुरुश : | तूं | मागता | तुमी | मागतात |
| तिसरो पुरुश : | तो | | ते | |
| | ती | मागता | त्यो | मागतात |
| | तें | | तीं | |

| धातू | अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | | कुसां | क्रियापदाचीं रुपां |
|---|---|---|---|---|
| | | ए.व. | | |
| माग- | मागत | | आं | मागतां |
| | | | आ | मागता |
| | | | आ | मागता |
| | | भो.व. | | |
| | | | आत | मागतात |
| | | | आत | मागतात |
| | | | आत | मागतात |

३२. **वर्तमान : १ : अपूर्ण** : हया काळांत क्रियापदाचीं रुपां कर्त्याचो पुरुश आनी वचन हांचेप्रमाण जातात.

टीप : **मागतात** हें पयलो पुरुशी भोववचनी रूप **मागतांव** अशेंय घोळटा. तेच भाशेन दुसरो पुरुशी तुमी **मागताय** आनी तिसरो पुरुशी ते **मागताय** अशींय रुपां घोळटात.

३३. (ii) **भूत : १ : अपूर्ण**

| | | ए.व. | | भो.व. |
|---|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश : हांव | (पु.लिं.) | मागतालों | आमी | मागताले |
| | (स्त्रीलिं.) | मागतालीं | | मागतालीं |
| | (न.लिं.) | मागतालें | | मागतालीं |
| दुसरो पुरुश : तूं | (पु.लिं.) | मागतालो | तुमी | मागताले |
| | (स्त्रीलिं.) | मागताली | | मागतालीं |
| | (न.लिं.) | मागतालें | | मागतालीं |
| तिसरो पुरुश : | तो | मागतालो | ते | मागताले |
| | ती | मागताली | त्यो | मागताल्यो |
| | तें | मागतालें | तीं | मागतालीं |

| धातू | अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | | कुसां | क्रियापदाचीं रुपां |
|---|---|---|---|---|
| | | ए.व. | | |
| माग- | मागत+आ | | लों-लीं-लें | मागतालों-लीं-लें |
| | | | लो-ली-लें | मागतालो-ली-लें |
| | | | लो-ली-लें | मागत्तालो-ली-लें |
| | | भो.व. | | |
| | | | ले-लीं-लीं | मागताले-लीं-लीं |
| | | | ले-लीं-लीं | मागताले-लीं-लीं |
| | | | ले-ल्यो-लीं | मागताले-ल्यो-लीं |

३४. **भूत : १ अपूर्ण** : हचा काळांत क्रियापदाचीं रुपां **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण जातात.

३५. (iii) **भविश्य : २ : निश्चित**

| | | | ए.व. | | भो. व. |
|---|---|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश : | हांव | (पु.लिं.) | मागतलों | आमी | मागतले |
| | | (स्त्रीलिं.) | मागतलीं | | मागतलीं |
| | | (न.लिं.) | मागतलें | | मागतलीं |
| दुसरो पुरुश : | तूं | (पु.लिं.) | मागतलो | तुमी | मागतले |
| | | (स्त्रीलिं.) | मागतली | | मागतलीं |
| | | (न.लिं.) | मागतलें | | मागतलीं |
| तिसरे पुरुश : | तो | | मागतलो | ते | मागतले |
| | ती | | मागतली | त्यो | मागतल्यो |
| | तें | | मागतलें | तीं | मागतलीं |

| धातू | अपूर्ण धातूविशेशणी मळावण | | कुसां | क्रियापदाचीं रुपां |
|---|---|---|---|---|
| | | ए.व. | | |
| माग- | मागत | | लों-लीं-लें | मागतलों-लीं-लें |
| | | | लो-ली-लें | मागतलो-ली-लें |
| | | | लो-ली-लें | मागतलो-ली-लें |
| | | भो.व. | | |
| | | | ले-लीं-लीं | मागतले-लीं-लीं |
| | | | ले-लीं-लीं | मागतले-लीं-लीं |
| | | | ले-ल्यो-लीं | मागतले-ल्यो-लीं |

**३६. भविश्य** : २ : **नित्शित** · हचा काळांत क्रियापदाचीं रुपां **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण जातात.

### सकर्मक क्रियापदाचीं पूर्णकाळी रुपां

**३७.** सकर्मक क्रियापदाचीं वेगळचा वेगळचा पूर्ण काळांतलीं रुपां जाता आसतना कांय म्हत्वाच्यो गजाली घडटात. त्यो अशो:

(१) सकर्मक क्रियापदाचें पूर्णकाळी रूप **कर्माचें** लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण जाता. देखून कर्माक म्हत्व चड.

(२) कर्माचें म्हत्व चड जाल्ल्यान आपसुकूच कर्त्याचें म्हत्व उणें जाता आनी देखुनूच हें उतर तिसरे विभक्तींत वता.

**हांव** हचा कर्त्याचें रूप **हांवें** जाता. हेच भाशेन हेर पुरुशांचे जाता.( प.वि.२०८ )

३८. (iv) **वर्तमान : २ : पूर्ण**

| | ए.व. (कर्माचें) | भो.व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| पयलो पुरुश : हांवें/ आमी | मागला-ल्या-लां | मागल्यात-ल्यात-ल्यांत |
| दुसरो पुरुश : तुवें/ तुमी | मागला-ल्या-लां | मागल्यात-ल्यात-ल्यांत |
| तिसरो पुरुश : ताणें/तांणी<br>तिणें/तांणी<br>ताणें/तांणी | मागला-ल्या-लां | मागल्यात-ल्यात-ल्यांत |

| धातू | पूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | कुसां | क्रियापदाचीं रुपां |
|---|---|---|---|
| | | ए.व. | |
| माग- | मागल | ला-ल्या-लां | मागला-ल्या-लां |
| | | भो.व. | |
| | | ल्यात-ल्यात-ल्यांत | मागल्यात-ल्यात-ल्यांत |

३९. **वर्तमान : २ : पूर्ण:** हचा काळांत क्रियापदाचीं रुपां **कर्माचें** लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण जातात.

४०. (v) **भूत : २ : पूर्ण**

| | ए.व. (कर्माचें) | भो.व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| पयलो पुरुश : हांवें/आमी | मागलो-ली-लें | मागले-ल्यो-लीं |
| दुसरो पुरुश : तुवें/तुमी | मागलो-ली-लें | मागले-ल्यो-लीं |
| तिसरो पुरुश : ताणें/तांणी<br>तिणें/तांणी<br>ताणें/तांणी | मागलो-ली-लें | मागले-ल्यो-लीं |

| धातू | पूर्ण धातूविशेशणी मुळावण | कुसां | क्रियापदाचीं रुपां |
|---|---|---|---|
| | | ए.व. | |
| माग- | मागल | ओ-ई-एं | मागलो-ली-लें |
| | | भो.व. | |
| | | ए-यो-ईं | मागले-ल्यो-लीं |

४१. **भूत : २ : पूर्ण** : हचा काळांत क्रियापदाचीं रुपां **कर्माचें** लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण जातात.

४२. (vi) **भूत : ३ : अतिपूर्ण**

| | | ए.व. (कर्माचें) | भो.व. (कर्माचें) |
|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश : | हांवें/आमी | मागिल्लो-ल्ली-ल्लें | मागिल्ले-ल्ल्यो-ल्लीं |
| दुसरो पुरुश : | तुवें–तुमी | मागिल्लो-ल्ली-ल्लें | मागिल्ले-ल्ल्यो-ल्लीं |
| तिसरो पुरुश : | ताणें/तांणी | | |
| | तिणें/तांणी | मागिल्लो-ल्ली-ल्लें | मागिल्ले-ल्ल्यो-ल्लीं |
| | ताणें/तांणी | | |

| धातू | पूर्ण मुळावण | धातूविशेशणी | कुसां | क्रियापदाचीं रुपां |
|---|---|---|---|---|
| | | | ए. व. | |
| माग- | मागि- | मागिल | लो-ली-लें | मागिल्लो- ल्ली- ल्लें |
| | | | भो. व. | |
| | | | ले-ल्यो-लीं | मागिल्ले- ल्ल्यो- ल्लीं |

४३. **भूत : ३ : अतिपूर्ण**: हचा काळांत क्रियापदाचीं रुपां **कर्माचें** लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण जातात.

४४. (vii) **भविश्य : १: अनित्शित**

| | | ए. व. | | भो.व. |
|---|---|---|---|---|
| पयलो पुरुश: | हांव | मागन | आमी | मागूं |
| दुसरो पुरुश: | तूं | मागशी | तुमी | मागशात |
| तिसरो पुरुश: | तो | | ते | |
| | ती | मागत | त्यो | मागतीत |
| | तें | | तीं | |

| धातू | कुसां | क्रियापदाचीं रुपां |
|---|---|---|
| माग- | न | मागन * |
| | शी | मागशी |
| | त | मागत* |
| | ऊं | मागूं |
| | शात | मागशात |
| | ईत | मागतीत |

टीप: **मागिल्लो** हें अतिपूर्ण काळांतलें रूप **मागल्लो**- आनी **मागलेलो** अशेंय घोळटा.

* हीं रुपां **ईन** आनी **ईत** अशीं कुसां लागुनूय घोळटात: **मागीन, मागीत.**

४५. **भविश्य :१: अनित्शितः** हचा काळांत क्रियापदाचीं रुपां **कर्त्याचो** पुरुश आनी वचन हांचे प्रमाणे जातात.

सकर्मक क्रियापदाचीं पूर्णकाळी रुपां:




(i) हीं रुपां कर्माचें लिंग आनी वचन हांचे प्रमाण घडटात.

(ii) कर्तो तिसरे विभक्तींत आसता.

## (ई)

## क्रियापद : आसप

४६. तीन काळांतलीं अकर्मक आनी सकर्मक क्रियापदांचीं मुखेल रुपां कशीं घडटात हांचो विचार आतां मेरेन आमी केलो. क्रियापदाचीं आनिकूय रुपां आसात. तीं जातलीं जाल्यार तांकां **आसप** क्रियापदाचो पालव घेवचो पडटा.

**आसप** क्रियापदाची चाल

४७. **वर्तमान :१: अपूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आसतां | आमी | आसतात |
| तूं | आसता | तुमी | आसतात |
| तो | | ते | |
| ती | आसता | त्यो | आसतात |
| तें | | तीं | |

४८. **वर्तमान :२: पूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आसां | आमी | आसात |
| तूं | आसा | तुमी | आसात |
| तो | | ते | |
| ती | आसा | त्यो | आसात |
| तें | | तीं | |

४९. भूत:१: अपूर्ण

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आसतालों-लीं-लें | आमी | आसताले-लीं-लीं |
| तूं | आसतालो-ली-लें | तुमी | आसताले-लीं-लीं |
| तो | आसतालो | ते | आसताले |
| ती | आसताली | त्यो | आसताल्यो |
| तें | आसतालें | तीं | आसतालीं |

५०. भूत:२: पूर्ण

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आसलों-लीं-लें | आमी | आसले-लीं-लीं |
| तूं | आसलो-ली-लें | तुमी | आसले-लीं-लीं |
| तो | आसलो | ते | आसले |
| ती | आसली | त्यो | आसल्यो |
| तें | आसलें | तीं | आसलीं |

५१. भूत:३: अतिपूर्ण

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आशिल्लों-ल्लीं-ल्लें | आमी | आशिल्ले-ल्लीं-ल्लीं |
| तूं | आशिल्लो-ल्ली-ल्लें | तुमी | आशिल्ले-ल्लीं-ल्लीं |
| तो | आशिल्लो | ते | आशिल्ले |
| ती | आशिल्ली | त्यो | आशिल्ल्यो |
| तें | आशिल्लें | तीं | आशिल्लीं |

५२. भविश्य :१: अनित्शित

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आसन | आमी | आसूं |
| तूं | आसशी | तुमी | आसशात |
| तो | | ते | |
| ती | आसत | त्यो | आसतीत |
| तें | | तीं | |

५३. भविश्य :२: नित्शित

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आसतलों-लीं-लें | आमी | आसतले-लीं-लीं |
| तूं | आसतलो-ली-लें | तुमी | आसतले-लीं-लीं |
| तो | आसतलो | ते | आसतले |
| ती | आसतली | त्यो | आसतल्यो |
| तें | आसतलें | तीं | आसतलीं |

टीपः पयलो पुरुशी भोववचनी रुपां  अशीं्य घोळटातः

१. वर्तमान :१: अपूर्णः
आसतात- आसतांव

२. वर्तमान :२: पूर्णः
आसात- आसांव

३. भूत :१: अपूर्ण
पु.लि. आसताले- आसताल्यांव
स्त्री लिं. आसतालीं- आसताल्यों

४. भूतकाळ :२: पूर्ण
पु.लि. आसले- आसल्यांव
स्त्री लिं. आसलीं- आसल्यों

५. भविश्य :२: नित्शित
पु.लि. आसतले- आसतल्यांव
स्त्री लिं. आसतलीं- आसतल्यों.

# पाठ तीन
# अनियमित क्रियापदां

## (अ)

५४. कांय क्रियापदां पाठ २ हातूंतल्या (आ) आनी (इ) उपपाठांत सांगिल्ल्या नेमांप्रमाण सरळ चलनात. हचा क्रियापदांक **अनियमित क्रियापदां** म्हणटात. कांय अनियमित क्रियापदां :

**वचप, करप, मरप, व्हरप, येवप, घालप.**

हांगा तांचीं अनियमित रुपां दिल्यांत. हेर रुपां सरळ क्रियापदांप्रमाण जातात.

### (i) **वचप**

### अपूर्ण रुपां

५५. **वर्तमान :१: अपूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | वतां | आमी | वतात |
| तूं | वता | तुमी | वतात |
| तो | | ते | |
| ती | वता | त्यो | वतात |
| तें | | तीं | |

५६. **भूत :१: अपूर्ण**

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| हांव | (पु.लिं.) | वतालों | आमी | वताले |
| | (स्त्री लिं.) | वतालीं | | वतालीं |
| | (न. लिं.) | वतालें | | वतालीं |
| तूं | (पु.लिं.) | वतालो | तुमी | वताले |
| | (स्त्री लिं.) | वताली | | वतालीं |
| | (न. लिं.) | वताल | | वतालीं |
| तो | | वतालो | ते | वताले |
| ती | | वताली | त्यो | वताल्यो |
| तें | | वतालें | तीं | वतालीं |

## ५७. भविश्य :२: निश्चित

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| हांव | (पु.लि.) | वतलों | आमी | वतले |
| | (स्त्रीलि.) | वतलीं | | वतलीं |
| | (न. लि.) | वतलें | | वतलीं |
| तूं | (पु.लि) | वतलो | तुमी | वतले |
| | (स्त्रीलि.) | वतली | | वतलीं |
| | (न. लि.) | वतलें | | वतलीं |
| तो | | वतलो | ते | वतले |
| ती | | वतली | त्यो | वतल्यो |
| तें | | वतलें | तीं | वतलीं |

टीप: तिनूय काळांतलीं हीं रुपां अशींय बरयतात.

(i)

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | वेतां/वयतां | आमी | वेतात/वयतात |
| तूं | वेतां/वयता | तुमी | वेतात/वयतात |
| तो | वेता/वयता | ते | वेतात/वयतात |
| ती | वेता/वयता | त्यो | वेतात/वयतात |
| तें | वेता/वयता | तीं | वेतात/वयतात |

(ii) हांव वेतालों-लीं-लें/ वयतालों-लीं-लें
तूं वेतालो-ली-लों/ वयतालो-ली-लें
तो वेतालो/वयतालो
ती वेताली/वयताली
तें वेतालें/वयतालें

(iii) हांव वेतलों-लीं-लें/वयतलों-लीं-लें
तूं वेतलों-लीं-लें/वयतलों-लीं-लें
तो वेतलो/वयतालो
ती वेतली/वयताली
तें वेतलें/वयतालें
आमी वेतले-लीं-लीं/ वयतले-लीं-लीं
तुमी वेतले-लीं-लीं/ वयतले-लीं-लीं
ते वेतले/वयतले
त्यो वेतल्यो/वयतल्यो
तीं वेतलीं/ वयतलीं

## पूर्ण रुपां

५८. (iv) **वर्तमान :२: पूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | गेलां-ल्यां-लां | आमी | गेल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| तूं | गेला-ल्या-लां | तुमी | गेल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| तो | गेला | ते | गेल्यात |
| ती | गेल्या | त्यो | गेल्यात |
| तें | गेलां | तीं | गेल्यांत |

५९. (v) **भूत :२: पूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | गेलों-लीं-लें | आमी | गेले-लीं-लीं |
| तूं | गेलो-ली -लें | तुमी | गेले-लीं-लीं |
| तो | गेलो | ते | गेले |
| ती | गेली | त्यो | गेल्यो |
| तें | गेलें | तीं | गेलीं |

६०.(vi) **भूतकाळ :३: अतिपूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | गेल्लों- ल्लीं- ल्लें | आमी | गेल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तू | गेल्लो- ल्ली- ल्लें | तुमी | गेल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तो | गेल्लो | ते | गेल्ले |
| ती | गेल्ली | त्यो | गेल्ल्यो |
| तें | गेलें | तीं | गेल्लीं |

६१. हें क्रियापद अपूर्ण रुपांत सरळ क्रियापदाभाशेन घोळटा आनी **पूर्ण रुपांत अनियमित जाता.**

## करपः सकर्मक क्रियापद

### पूर्ण रुपां

६२. **वर्तमान :२: पूर्ण**

| | ए.व (कर्माचें) | भो.व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| हांवें/आमी | केला-ल्या-लां | केल्यात- ल्यात- ल्यांत |
| तुवें/ तुमी | केला-ल्या-लां | केल्यात- ल्यात- ल्यांत |
| ताणें/तांणी | | |
| तिणें/ तांणी | केला-ल्या-लां | केल्यात- ल्यात- ल्यांत |
| ताणें/तांणी | | |

**६३. भूत :२: पूर्ण**

| | | |
|---|---|---|
| हांवें/ आमी | केलो-ली-लें | केले- ल्यो- लीं |
| तुवें/ तुमी | केलो- ली- लें | केले- ल्यो- लीं |
| ताणें/ तांणी | | |
| तिणें/ तांणी | केलो- ली- लें | केले- ल्यो- लीं |
| ताणें/ तांणी | | |

**६४. भूत :३: अतिपूर्ण**

| | | |
|---|---|---|
| हांवें/ आमी | केल्लो- ल्ली- ल्लें | केल्ले- ल्ल्यो- ल्लीं |
| तुवें/ तुमी | केल्लो- ल्ली- ल्लें | केल्ले- ल्ल्यो- ल्लीं |
| ताणें/ तांणी | | |
| तिणें/ तांणी | केल्लो- ल्ली- ल्लें | केल्ले- ल्ल्यो- ल्लीं |
| ताणें/ तांणी | | |

## मरप

६५. हचा क्रियापदाचीं **पूर्ण काळांतलीं रुपां अनियमित जावन घोळटात** जाल्यार हेर काळांतलीं रुपां सरळ क्रियापदांच्या रुपांभाशेनूच आसतात.

**पूर्ण रुपां**

**६६. वर्तमान :२: पूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | मेला-ल्यां-लां | आमी | मेल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| तूं | मेला-ल्यां-लां | तुमी | मेल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| तो | मेला | ते | मेल्यात |
| ती | मेल्या | त्यो | मेल्यात |
| तें | मेलां | तीं | मेल्यांत |

**६७. भूत :२: पूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | मेलों- लीं- लें | आमी | मेले-लीं-लीं |
| तूं | मेलो- ली- लें | तुमी | मेले- लीं- लीं |
| तो | मेलो | ते | मेले |
| ती | मेली | त्यो | मेल्यो |
| तें | मेलें | तीं | मेलीं |

६८. **भूत :३: अतिपूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | मेल्लों- ल्लीं- ल्लें | आमी | मेल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तूं | मेल्लो- ल्ली- ल्लें | तुमी | मेल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तो | मेल्लो | ते | मेल्ले |
| ती | मेल्ली | त्यो | मेल्ल्यो |
| तें | मेल्लें | तीं | मेल्लीं |

## व्हरपः सकर्मक क्रियापद

६९. हें क्रियापद फकत **पूर्ण काळांत अनियमित जाता**. हेर सगळ्या काळांनी तें सरळ क्रियापदाभाशेन चलता.

७०. **वर्तमान :२: पूर्ण**

| | ए. व. (कर्माचें) | भो. व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| हांवें/ आमी | व्हेला- ल्या- लां | व्हेल्यात- ल्यात- ल्यांत |
| तुवें/ तुमी | व्हेला- ल्या- लां | व्हेल्यात- ल्यात- ल्यांत |
| ताणें/ तांणी | | |
| तिणें/ तांणी | व्हेला- ल्या- लां | व्हेल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| ताणें/ तांणी | | |

७१. **भूत :२: पूर्ण**

| | | |
|---|---|---|
| हांवें/ आमी | व्हेलो- ली- लें | व्हेले- ल्यो- लीं |
| तुवें/ तुमी | व्हेलो- ली- लें | व्हेले- ल्यो- लीं |
| ताणें/ तांणी | | |
| तिणें/ तांणी | व्हेलो- ली- लें | व्हेले- ल्यो- लीं |
| ताणें/ तांणी | | |

७२. **भूत :३: अतिपूर्ण**

| | | |
|---|---|---|
| हांवें/ आमी | व्हेल्लो- ल्ली- ल्लें | व्हेल्ले- ल्ल्यो- ल्लीं |
| तुवें ' मी | व्हेल्लो- ल्ली- ल्लें | व्हेल्ले- ल्ल्यो- ल्लीं |
| ताणे ंणी | | |
| तिणें, ंणी | व्हेल्लो- ल्ली- ल्लें | व्हेल्ले- ल्ल्यो- ल्लीं |
| ताणें/ ी | | |

## येवप

७३. ह्या क्रियापदाचीं **पूर्णवळी रुपां अनियमित आसतात.** जाल्यार हेर सगळ्या काळांतलीं रुपां सरळ क्रियापदाभाशेन आसतात.

७४. **वर्तमान :२: पूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आयलां-ल्यां- लां | आमी | आयल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| तूं | आयला- ल्या- लां | तुमी | आयल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| तो | आयला | ते | आयल्यात |
| ती | आयल्या | त्यो | आयल्यात |
| तें | आयलां | तीं | आयल्यांत |

७५. **भूत :२: पूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आयलों- लीं- लें | आमी | आयले- लीं- लीं |
| तूं | आयलो- ली-लें | तुमी | आयले-लीं-लीं |
| तो | आयलो | ते | आयले |
| ती | आयली | त्यो | आयल्यो |
| तें | आयलें | तीं | आयलीं |

७६. **भूत :३: अतिपूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | आयिल्लों-ल्लीं- ल्लें | आमी | आयिल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तूं | आयिल्लो- ल्ली-ल्लें | तुमी | आयिल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तो | आयिल्लो | ते | आयिल्ले |
| ती | आयिल्ली | त्यो | आयिल्ल्यो |
| तें | आयिल्लें | तीं | आयिल्लीं |

टीप: **येवप** क्रियापदाचीं हीं रुपां अशींय घोळटात:

**वर्तमान :२: पूर्ण**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | येयलां- ल्यां- लां | आमी | येयल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| तूं | येयला- ल्या- लां | तुमी | येयल्यात- ल्यांत- ल्यांत |
| तो | येयला | ते | येयल्यात |
| ती | येयल्या | त्यो | येयल्यात |
| तें | येयलां | तीं | येयल्यांत |

### भूत :२: पूर्ण

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | येयलों-लीं- लें | आमी | येयले- लीं- लीं |
| तूं | येयलो- ली- लें | तुमी | येयले- लीं- लीं |
| तो | येयलो | ते | येयले |
| ती | येयली | त्यो | येयल्यो |
| तें | येयलें | तीं | येयलीं |

### भूत :३: अतिपूर्ण

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | येयल्लों- ल्लीं- ल्लें | आमी | येयल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तूं | येयल्लो- ल्ली- ल्लें | तुमी | येयल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तो | येयल्लो | ते | येयल्ले |
| ती | येयल्ली | त्यो | येयल्ल्यो |
| तें | येयल्लें | तीं | येयल्लीं |

७७. **घालप** हचा क्रियापदाचीं पूर्णकाळी सरळ रुपांबरोबरूच अनियमित रुपां घोळिल्लीं दिश्टी पडटात. तीं अशीं:

वर्तमान :२: पूर्ण : घातला
भूत :२: पूर्ण : घातलो
भूत :३: अतिपूर्ण : घातिल्लो

७८. **म्हणप** हचा क्रियापदाचीं सरळ रुपांबरोबरूच कांय अनियमित रुपां घोळटात:

वर्तमान :२: पूर्ण : (i) म्हळां
(ii) म्हटलां
भूत :२: पूर्ण : (i) म्हळें
(ii) म्हटलें

## आनीक कांय आडांगी क्रियापदां

७९. कांय क्रियापदांक **आसप** वांगडा घेवन घोळचें पडटा.

(i) जाय आसप
नाका आसप

(ii) जाणा आसप
नकळ आसप

**नाका आसप** हें **जाय आसप** हचा क्रियापदाचें न्हयकारी रूप. तेच भाशेन **नकळ आसप** हें **जाणा आसप** हचा क्रियापदाचें न्हयकारी रूप.

वर्तमानः १ आनी वर्तमान : २ हे दोनूय काळ सोडले जाल्यार हेर पांचूय काळांनी हीं क्रियापदां, आसप क्रियापदाचीं त्या त्या काळांतलीं रुपां घेवन आपलीं रुपां थारायता.

| | भूत | भविश्य |
|---|---|---|
| (i) | जाय आसतालो | जाय आसतलो |
| | जाय आसलो | जाय आसत |
| | जाय आशिल्लो | |
| | नाका आसतालो | नाका आसतलो |
| | नाका आसलो | नाका आसत |
| | नाका आशिल्लो | |
| (ii) | जाणा आसतालो | जाणा आसतलो |
| | जाणा आसलो | जाणा आसत |
| | जाणा आशिल्लो | जाणा |
| | नकळ आसतालो | नकळ आसतलो |
| | नकळ आसलो | नकळ आसत |
| | नकळ आशिल्लो | |

वर्तमान काळांतल्या दोनूय काळांक मेळून तांचे रूप आसप क्रियापद जासतना जशाक तशें उरता.

(i) जाय
नाका

(ii) जाणा
नकळ

८०. **जाय आसप** आनी **नाका आसप** हचा क्रियापदांच्या सगळ्या काळांनी कर्तो चवथे विभक्तींत आसता जाल्यार **जाणा आसप** आनी **नकळ आसप** हचा क्रियापदांचो पयले विभक्तींत उरता.

नाका आसप, जाणा आसप आनी नकळं आसप हीं वर्तमानकाळांत भोववचनांत आपल्या रुपांक **त** जोडतात.

नाकात, जाणात, नकळंत

कांय देखी:

(i) १. संध्याक खेळूंक आनी नाचूंक जाय.
२. गौरीक शिकूंक जाय.
३. मिलिदाक पुस्तक जाय आसलें.
४. ताका खंयच वचूंक नाका.
५. अंजूक लाडू जाय आसताले.

(ii) १. संतोश क्रिकेट खेळूंक जाणा.
२. सतिश सोरो वायट म्हणून नकळं आसलो.
३. सुभाष हांव येत म्हणपाचें जाणा आसतलो.
४. वेळार येवंक जाय हें राजश्री जाणा आसतलें.
५. ते सगळें जाणात पुण कांयच नकळंत.

# पाठ चार

## साधीत क्रियापदां

८१. आतांमेरेन जीं क्रियापदां आमी पळयलीं तांचे धातू मुळावे आसले. पुण जायत्या क्रियापदांचे धातू मुळावे नासतात. ते घडयल्ले वा साधयल्ले आसतात. म्हणून तांकां **साधीत धातू** म्हणटात. आनी असले धातू आशिल्ल्या क्रियापदांक **साधीत क्रियापदां** म्हणटात. अशा धातूंक नांवांय तशींच दिल्यांत.

(i) **प्रयोजक वा प्रेरणार्थक धातू**
(ii) **अणकारी धातू**
(iii) **नामधातू**

८२. (i) **प्रयोजक वा प्रेरणार्थक धातू**

दुसऱ्याक वा आपणाक कसलीय करणी करूंक लावचेखातीर जें क्रियापद उपकारायतात ताका **प्रयोजक क्रियापद** म्हणतात. हें क्रियापद **सकर्मक** आसता आनी तें सगळ्या काळांनी त्या त्या नेमांक धरून चलता.

### अ

### प्रयोजक धातू जावपाच्यो तरा

८३. क. धातूच्या सोंपत्या अक्षराक **इ** लागून तो **इ** स्वरी जाता.

| **मूळ क्रियापद** | **धातू** | **स्वर/कूस** | **प्रयोजक धातू** |
|---|---|---|---|
| माडुप | माडु- | इ | माड्डि- |
| बुडुप | बुडु- | इ | बड्डि- |
| भाजप | भाज- | इ | भाजि- |

| **मूळ धातू** | **प्रयोजक धातू** |
|---|---|
| १. गायो भोंविल्ल्यान **तण माडुता.** | **गायो** तण **माड्डितात.** |
| २. भुरग्याचें आंग **बुडुतालें.** | **भुरगो** आंग **बुड्डितालो.** |
| ३. खोर्नांत **उंडो भाजलो.** | पदेरान **उंडे भाजिले.** |

टीपः कांय प्रयोजक धातूंतलो **इ** स्वर लिपून उरता आनी ताका लागून असो धातू मूळ धातूवरीच दिसताः **भाजिता- भाजता**

उंडो भाजता.
पदेर उंडो भाजता.

८४. ख. मूळ धातूक **य** लागता.

| | | | |
|---|---|---|---|
| मागप | माग- | य | मागय- |
| बुडप | बुड- | य | बुडय- |
| आयकप | आयक- | य | आयकय- |

| **मूळ धातू** | **प्रयोजक धातू** |
|---|---|
| १. तो 'राजहंसा'कडेन पुस्तक मागता. | तो 'राजहंसा'कडल्यान पुस्तक मागयता. |
| २. तें ताका लजता. | तो ताका लजयता. |
| ३. ते काणी आयकतात. | आजी तांकां काणी आयकयता. |

८५. ग. धातूच्या सोंपत्या-आदल्या अक्षरांत बदल जाता.

**अ** चो **आ** जाता.

**उ** चो **ओ** जाता.

| | | | |
|---|---|---|---|
| मरप | **मर-** | आ | **मार-** |
| तरप | **तर-** | आ | **तार-** |
| तुटप | **तुट-** | ओ | **तोड-** |
| फुटप | **फुट-** | ओ | **फोड-** |

| **मूळ धातू** | **प्रयोजक धातू** |
|---|---|
| १. सुणो मरता. | ते सुण्याक मारतात. |
| २. रोस गळटा. | ते रोस गाळटात. |
| ३. खांदी तुटली. | भुरग्यांनी खांदी तोडली. |
| ४. पणस फुटलो. | भुरग्यांनी पणस फोडलो. |

टीपः **टन** सोंपपी धातू प्रयोजक जानना **ड** न सोंपता. तुट- तोड फुट- फोड

८६. घ. मुळाव्या धातूक **अड** कूस लागता.

| | | | |
|---|---|---|---|
| धांवप | धांव- | अड | धांवड- |
| चाबप | चाब- | अड | चाबड- |

टीपः अशे धातू दोडी प्रयोजक धांतू करपाखातीर उपकारायतात.

**आ.**

## दोडी प्रयोजक धातू

८७. मुळाव्या धातूचो जसो प्रयोजक धातू करूंक मेळटा तसोच प्रयोजक धातूचोच आनीक एक प्रयोजक धातू करूंक मेळटा. प्रयोजकाचोच आनीक एक प्रयोजक धातू जाल्ल्यान अशा धातूक **दोडी प्रयोजक धातू** म्हणतात. **आय** लावन हो धातू घडटात.

| **क्रियापद** | **धातू** | **प्रयोजक धातू** | **कूस** | **दोडी प्रयोजक** |
|---|---|---|---|---|
| धांवप | धांव- | धांवड- | आय | धांवडाय- |
| चाबप | चाब- | चाबड- | आय | चाबडाय- |

| **मूळ धातू** | **दोडी प्रयोजक धातू** |
|---|---|
| १. गोरूं धांवता. | राखणो गोरवाक धांवडायता. |
| २. सुणें चाबता. | सुणें हाडूक चाबडायता. |

## (ii) अणकारी धातू

८८. आमी उलयतना जायत्या फावटी नाद परतो परतो जाल्लो आसता. अशा नादांच्या उच्चारांवयल्यान क्रियापदां तयार जातात. अशा क्रियापदांच्या धातूंक **अणकारी धातू** म्हणटात.

१. आयदनांत उदक तापतना **खता खता** जाता. आमी म्हणटात, उदक **खतखतता.**

२. पावस **शीड शीड** करून पडटा. आमी म्हणटात पावस **शिडशिडटा.**

३. सुणें **गुरू गुरू** करता. आमी म्हणटात सुणें **गुरगुरता.**

**खतखतता, शिडशिडटा, गुरगुरता** हीं अणकारी क्रियापदाचीं रूपां.

| **नाद** | **क्रियापद** | **धातू** |
|---|---|---|
| खता खता | खतखतप | खतखत- |
| शीड शीड | शिडशिडप | शिडशिड- |
| गुरू गुरू | गुरगुरप | गुरगुर- |

**खंयच्याय** स्वरान सोंपिल्लो नाद अणकारी धातू जातना **अ** स्वरानूच सोंपता.

अणकारी क्रियापद सगळचा काळांनी चलता.

## (iii) नामधातू

८९. कांय क्रियापदां वस्तूंच्या नांवांवयल्यान घडटात. वस्तूंच्या नांवांक **नाम** म्हणटात. देखून जीं क्रियापदां अशा नामांवयल्यान जातात तांच्या धातूंक **नामधातू** म्हणटात.

नामांपासून जाल्ले हे धातू सकर्मक वा अकर्मक आसतात.

**सकर्मक धातूः**

| | | |
|---|---|---|
| फातर | फातरावप | फातराय- |
| थापट | थापटावप | थापटाय- |
| भुरको | भुरकावत | भुरकाय- |

**फातर** ह्या नामापासून **फातराय-** हो नामधातू जालो. असो तो जातना नाम **आ** स्वरी जाता.

स्त्रीलिंगी नामांचो नामधातू जातना नाम **अ** स्वरी जाता.

| | | |
|---|---|---|
| बडी | बडोवप | बडय- |
| गरी | गरोवप | गरय- |
| उब | उबोवप | उबय- |

कांय देखी:

१. लोक चोराक थापटायतात.
२. शाणू खीर भुरकायता.
३. राखणो म्हशीक बडयतालो.
४. जॉनीन नुस्तें गरयलें.
५. कोंबी तांतयां उबयताली.

**अकर्मक धातू:**

| | | |
|---|---|---|
| मूय | मुयेवप | मुये- |
| पानो | पानेवप | पाने- |
| आशा | आशेवप | आशे- |

अकर्मक धातू जातात तेन्ना नामाचें सोंपते अक्षर **ए** स्वरी जाता.

१. बसून बसून ताचो पांय **मुयेलो**.
२. वासराक पळोवन गाय **पानेली**.
३. आवय धुवेक **आशेता**.

नामधातूची सगळ्या काळांनी रुपां जातात.

कांय विशेशणावयल्यानूय धातू जातात. तांकांय **नामधातू** म्हणपाची चाल आसा.

| | | |
|---|---|---|
| पिसो | पिसावप | पिसाय- |
| रुंद | रुंदावप | रुंदाय- |

१. ते शाण्याक **पिसायतात**. (पिसो करतात)
२. शाणो आपली वाळू **रुंदायता**. (रुंद करता)

# पाठ पांच

## अर्थ

९०. आतांमेरेन पळयल्ल्या तिनूय काळांतल्या रुपांक **विधानार्थी** म्हणटात. हचा भायर आनिकूय क्रियापदाचीं रुपां तीन अर्थांत येतातः

(i) **संकेतार्थ**

(ii) **आज्ञार्थ**

(iii) **विध्यर्थ**

### (i) संकेतार्थ

९१. हाका **निमती भविश्य** अशेंय म्हणटात.भविश्यांत घडपाची करणी कसल्याय तरी निमित्ताक लागून घडटा वा घडना. म्हणुनूच ताका **निमती भविश्य** म्हणटात.

**तो तापतलो आसलो** हचा वाक्यांत कसल्याय तरी निमित्ताक लागून कर्तो तापलो ना.तें निमित्त नाशिल्लें जाल्यार तो **तापतलो आसलो.**

क्रियापदाचें संकेतार्थांतलें हें रूप मूळ क्रियापद, **आसप** क्रियापदाचो पालव घेवन तयार जाता.

हे घडणेंत **मूळ क्रियापदाचें नितिशत भविश्यकाळी रूप** आनी आसप हचा **पालवी क्रियापदाचें पूर्ण भूतकाळी रूप** अशीं दोन रुपां एकठावल्लीं आसतात.



९२. तापप क्रियापदाचो संकेतार्थ

| | ए. व. | | भो. व. |
|---|---|---|---|
| हांव | तापतलों आसलों | आमी | तापतले आसले |
| | तापतलीं आसलीं | | तापतलीं आसलीं |
| | तापतलें आसलें | | तापतलीं आसलीं |
| तूं | तापतलो आसलो | तुमी | तापतले आसले |
| | तापतली आसली | | तापतलीं आसलीं |
| | तापतलें आसलें | | तापतलीं आसलीं |
| तो | तापतलो आसलो | ते | तापतले आसले |
| ती | तापतली आसली | त्यो | तापतल्यो आसल्यो |
| तें | तापतलें आसलें | तीं | तापतलीं आसलीं |

संकेतार्थांत दोनूय क्रियापदां आपआपणाल्या नेमांक धरून घोळटात.

## (ii) आज्ञार्थ

९३. आज्ञा दुसऱ्याक करतात. तशीच ती जायत्या फावटी आपणाक विचारुनूय घेतात. आज्ञा दुसऱ्याक करतात तेन्ना क्रियापदाचीं रुपां जातात तीं अशीं:

| ए. व. | भो.व. |
|---|---|
| बस | बसात |
| खा | खायात |
| कर | करात |

आज्ञा करतात ती दुसऱ्याक देखून हीं रुपां **दुसरो पुरुशी** आसतात.

आज्ञा विचारतात वा बुद्द घेतात तेन्ना क्रियापदाचीं रुपां जातात तीं अशीं:

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| हांव बसूं? | आमी बसूं? |
| हांव खावं? | आमी खावं? |
| हांव करूं? | आमी करूं? |

आज्ञा आपणाकूच विचारून घेतिल्ल्यान हीं रुपां **पयलो पुरुशी** आसतात. हींच रुपां बुद्द घेवपाखातीरूय उपकारायतात.

हांव वाचूं काय बरोवं?

हया वाक्यांत बुद्द घेतल्या.

आज्ञार्थ हचा उतरांत फ़कत फर्मान इतलोच अर्थ आसपावना. जायत्या फावटी तातूंत **मेकळीक दिवंक** आनी **मान्यताय दिवंक** हेय अर्थ आसपावतात. मेकळीक वा मान्यताय दितात ती तिसऱ्याक देखून हीं रुपां **तिसरो पुरुशी** आसतात:

| | |
|---|---|
| तो बसूं | ते बसूंत |
| तो वचूं | ते वचूंत |
| तो करूं | ते करूंत |

अशे तरेन आज्ञार्थ तिनूय पुरुशी आसता.

आज्ञार्थी रुपां तिनूय पुरुशी आसतात. आनी दोनूय वचनांत घोळटात. आज्ञार्थी रूप तिनूय लिंगांत एकूच उरता.

९४. क्रियापद : **वाचप**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | वाचूं | आमी | वाचूं |
| तूं | वाच | तुमी | वाचात |
| तो | वाचूं | ते | वाचूंत |
| ती | वाचूं | त्यो | वाचूंत |
| तें | वाचूं | तीं | वाचूंत |

| धातू | कुसां | | क्रियापदाचीं रुपां | |
|---|---|---|---|---|
| | ए. व. | भो. व. | ए. व. | भो. व. |
| वाच- | ऊं | ऊं | वाचूं | वाचूं |
| | ० | आत | वाच | वाचात |
| | ऊं | ऊंत | वाचूं | वाचूंत |

९५. **वप** न सोंपपी क्रियापदांचो आज्ञार्थ:

(i) क्रियापद: **लावप** धातू: **लाय-**

| | | | |
|---|---|---|---|
| हांव | लावं | आमी | लावं |
| तूं | लाय | तुमी | लायात |
| तो | लावं | ते | लावंत |
| ती | लावं | त्यो | लावंत |
| तें | लावं | तीं | लावंत |

**चत्राय.** फकत दुसऱ्या पुरुशांत आज्ञार्थाचें एकवचनी रूप धातूवरी जाता आनी तार्चेच भोववचनी रूप **आत** कुस लागून जाता. हांगा: लाय-लायात. हेर सगळ्या रुपांत **वप** हातूंतल्या **व** चेर (ं) अनुस्वार येता.

(ii) क्रियापदः **खावप** धातूः **खा-**

| | |
|---|---|
| हांव खावं | आमी खावं |
| तूं खा | तुमी खायात |
| तो खावं | ते खावंत |
| तीं खावं | त्यो खावंत |
| तें खावं | तीं खावंत |

**चत्रायः** फकत दुसऱ्या पुरुशांत एकवचनी आज्ञार्थी रूप धातूवरी जाता आनी ताचेंच भोववचनी रूप आय+ आत अशें जाता. हांगा खा- खायात. हेर सगळ्या रुपांत **वप** हातूंतल्या **व**-चेर (ं) अनुस्वार येता.

| धातू | कुसा | | क्रियापदाचीं रुपा | |
|---|---|---|---|---|
| | ए. व. | भो. व. | ए. व. | भो.व. |
| (i) लाय- | वं | वं | (i) लावं | लावं |
| (ii) खा-(य) | ० | आत | लाय | लायात |
| | वं | वंत | लावं | लावंत |
| | | | (ii) खावं | खावं |
| | | | खा | खायात |
| | | | खावं | खावंत |

९६. कसलीय करणी नित्शयान आनी खोश्शेन करूंक कर्तो आपली आपुण मेकळीक घेता वा आपणाक विचारता अशा अर्थान क्रियापद आज्ञार्थी आसता तेन्ना पयल्या पुरुशाच्या भोववचनी रुपाक **या** कूस जोडपाची चाल कोंकणींत आसाः

(i) **आपणें आपणाक मेकळीक घेवपः**

आमी काम करुंया.

आमी थंय वचुंया.

आमी तांगेर चार दीस रावंया.

(ii) **आपणें आपणाक मेकळीक विचारपः**

आमी काम करुंया?

आमी थंय वचुंया?

आमी तांगेर चार दीस रावंया?

### (iii) विध्यर्थ

९७. लागणूक, योग्यताय, इत्सा, शक्यताय अशो गजाली दाखोवंक उपकारायिल्ल्या क्रियापदाच्या रुपांक **विध्यर्थी** म्हणटात.

**लागणूक**

१) तुमी तुमच्या आवय- बापायक सदांच मान **दिवचो**.

२) आवयभाशेची फावं ती सेवा आपणें **करची**.

३) दिसांतल्यान आपणें थोडेंपुण **बरोवचें** आणि **वाचचें**.

**योग्यताय**

१)कोंकणीक नांवारुपाक हाडपाचें येदें व्हड एक हाती काम फकत शणै गोंयबाबासारक्या म्हापुरुशाक **जमचें**.

२) फकत स्वाभिमानी लोकांनी स्वतंत्रताय **भोगची**.

३) संतानींच आत्मानंदांत **रावचें**.

**इत्सा**

१) भुरगेपणांत म्हाका खूब खेळन **दिसचें**.

२) पावस **पडचो** आनी तातूंत आमी **नाचचें**.

३) शिकता आसतना ताणें खूब कविता **वाचच्यो**.

**शक्यताय**

१) पावस **येवचो** पुण आयलोना.

२) काल म्हजो भाव मुंबयच्यान **पावचो**.

३) खरें म्हळचार ते सगळे हांगा **रावचे**.

९८. फाटीं दिल्ल्या देखींवयल्यान **धातूक चो** प्रत्यय लागून **विध्यर्थ** जाता म्हणपाचें कळटा. अकर्मक आनी सकर्मक अशा दोनूय क्रियापदांक विध्यर्थ आसता हेंय हचा देखींवयल्यान कळटा.

**तापपः अकर्मक क्रियापद**

| ए. व. | | भो. व. | |
|---|---|---|---|
| हांव | तापचो- चीं- चें | आमी | तापचे- चीं- चीं |
| तूं | तापचो- ची- चें | तुमी | तापचे- चीं- चीं |
| तो | तापचो | ते | तापचे |
| ती | तापची | त्यो | तापच्यो |
| तें | तापचें | तीं | तापचीं |

**मागप: सकर्मक क्रियापद**

| | ए. व. (कर्माचें) | भो. व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| हांवें/ आमी | मागचो- ची- चें | मागचे- च्यो- चीं |
| तुवें/तुमी | मागचो- ची- चें | मागचे- च्यो - चीं |
| ताणें/ तांणी | | |
| तिणें/ तांणी | मागचो- ची- चें | मागचे- च्यो- चीं |
| ताणें/ तांणी | | |

९९. **वप** न सोंपपी क्रियापदांच्या धातूंक **चो** लागचे आदीं कांय बदल घडटात ते अशे:

(i) **यन** सोंपपी धातूंतल्या **य** बदला **व** येता आनी मागीर **चो** लागता.

धातू: रोय-

विध्यर्थी रूप: रो(य)—›रोव + चो—›रोवचो

देख: आमी आज कावथे **रोवचे**. तांचे फाल्यां माड जातले.

(ii) **व** वा **य** अशा अक्षरांनी सोंपनाशिल्ल्या धातूंक **चो** लागचे आदीं **व** लागता.

धातू: न्हा-

विध्यर्थी रूप: न्हा + व—›न्हाव + चो—› न्हावचो.

देख: आपणें सदांच **न्हावचें**.

१००. कोंकणींत क्रियापदाच्या सादारण रुपाक **चो** कूस लागून विध्यर्थी रुपां घडटात. पुण आदीं सादारण रूप आकारान्त जाता:

| **क्रि.** | **वि. रूप** |
|---|---|
| तापप | तापपाचो |
| मागप | मागपाचो |
| भोंवप | भोंवपाचो |
| लावप | लावपाचो |
| खावप | खाव्पाचो |

(१) हांव पास जालों ना म्हणून म्हजो बापूय आज म्हजेर **तापपाचो**.

(२) शेजाऱ्याली गाय येवन सगळें पोरसूं **खावपाची**.

(३) आज पावस पडूंक नासलो जाल्यार आमी **भोंवपाचीं**.

१०१. **विध्यर्थी रुपां**

(i) अकर्मक तेचभाशेन सकर्मक क्रियापदाची विध्यर्थी रुपां जातात. अकर्मक क्रियापदाचें विध्यर्थी रूप **कर्त्याचो** पुरुश, लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण जाता. सकर्मक क्रियापदाचें विध्यर्थी रूप, कर्तो तिसरे विभक्तींत आसल्यार कर्माच्या लिंग-वचनाभाशेन जाता नाजाल्यार कर्त्याचो पुरुश, लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण जाता.

अकर्मक क्रियापदः **बापूय** म्हजेर **तापपाचो**.
**आवय** म्हजेर **तापपाची**.

सकर्मक क्रियापदः

(क) कर्तो तिसरे विभक्तींतः

तुवें **कावथो रोवचो**.
तुमी **कावथो रोवचो**.
तुवें **कावथे रोवचे**.

(ख) कर्तो पयले विभक्तींतः

**गाय** पोरसूं **खावपाची**.
**गायो** पोरसूं **खावपाच्यो**.

(ii) हयाभायर विध्यर्थी रूप तिसरो पुरुशी, एकवचनी आनी नपुंसकलिंगी अशेंय आसता.

हांवें/आमी जाणट्यांक पांयां **पडचें**.
तुवें/ तुमी जाणट्यांक पांयां **पडचें**.
ताणें/तांणी जाणट्यांक पांयां **पडचें**.

# पाठ स
## (अ)
### मूर्धन्य व्यंजनांनी सोंपपी धातू

१०२. कोंकणींत जायते धातू **ट ठ ड ण** आनी **ळ** हचा मूर्धन्य व्यंजनांनी सोंपतात:

**झट**- उठ-, हा**ड**-, ख**ण**-, खे**ळ**-

१०३.

(i) हातूंतल्या **ट ड ण** आनी **ळ** हया व्यंजनांनी सोंपपी धातूंचीं अपूर्ण काळांतलीं रुपां जातना **त** चें **ट** जाता.

(१) वर्तमान :१: अपूर्ण

| | |
|---|---|
| झटता | झट्टा |
| हाडता | हाडटा |
| खणता | खणटा |
| खेळता | खेळटा |

(२) भूत :१: अपूर्ण

| | |
|---|---|
| झटतालो | झट्टालो |
| हाडतालो | हाडटालो |
| खणतालो | खणटालो |
| खेळतालो | खेळटालो |

(३) भविश्य :२: नित्शित

| | |
|---|---|
| झटतलो | झट्टलो |
| हाडतलो | हाडटली |
| खणतलो | खणटलो |
| खेळतलो | खेळटलो |

(ii) हयाच वर्गांतल्या **ठ** व्यंजनान सोंपपी धातूंची अपूर्ण काळांतलीं रुपां जाता आसतना **त** च्या जाग्यार **ठ** जाता.

(१) वर्तमान :१: अपूर्ण

| | |
|---|---|
| उठता | उठ्ठा |

(२) भूतकाळ :१: अपूर्ण

| | |
|---|---|
| उठतालो | उठ्ठालो |

(३) भविश्यकाळ :२: नित्शित

| | |
|---|---|
| उठतलो | उठ्ठलो |

टीप: **ट** मुखार **ट** येता आनी **ठ** मुखार **ठ** येता तेन्ना हचा दोनूय अक्षरांचो उच्चार एकूच अक्षर आशिल्लेवरी जाता. देखून धातूंतलें **ट** वा **ठ** अर्द करून बरोवपाची चाल आसा.

### (आ)

### र अक्षरान सोंपपी धातू

१०४. कांय धातू र न सोंपतात.

जशे:

**धर-, भर-, मार-**

अशा क्रियापदांचीं पूर्णकाळी रूपां जातना **र** चें **ल** जाता आनी पूर्णकाळी कमां **ला** आनी **लो** जाल्ल्यान **ल** अर्द जाता, (ल्).

१. वर्तमान :२: पूर्ण

हांवे धल्ला (धरला)
हांवे भल्ला (भरला)
हांवे माल्ला (मारला)

२. भूत :२: पूर्ण

हांवें धल्लो (धरलो)
हांवें भल्लो (भरलो)
हांवें माल्लो (मारलो)

# पाठ सात
## (अ)
## क्रियापदाचीं दुभावी रुपां

१०५. क्रियापदाचीं आनीक कांय रुपां आसात. तीं **आसप** आनी **जावप** हचा क्रियापदांचो पालव घेवन जातात. हीं रुपां जातना **आसप** वा **जावप** हचा क्रियापदांचीं भविश्यकाळी रुपां उपकारावचीं पडटात. आनी मूळ क्रियापदाचें रूप त्या त्या काळांतलें आसता.

(i) १) चलो म्हजो **न्हिदता आसतलो.**
२) हचा वेळार भुरगीं शाळेंत **शिकतात आसतलीं.**
३) तो जायतें **शिकला आसतलो.**
४) तो जायतें **शिकला आसत**, आमकां कितें?

(ii) १) चलो **न्हिदता जायत** जाल्यार न्हिदय.
२) हचा वेळार भुरगीं शाळेंत **शिकतात जायत?**
३) तो जायतें **शिकला जायत.**
४) चलो **न्हिदता जातलो.**
५) तो पळोवंक ल्हान दिसता. पुण गिरेस्त **आसा जातलो.**

१०६. रुपां फकत अनित्शित भविश्यकाळ सोडून हेर सगळचा स काळांनी जातात.

**क्रियापद: तापप**

(क) वर्तमान :१: अपूर्ण

| | |
|---|---|
| (i) तापता आसत | तापता जायत |
| (ii) तापतालो आसतलो | तापतालो जातलो |

(ख) भूत :१: अपूर्ण

| | |
|---|---|
| (i) तापतालो आसत | तापतालो जायत |
| (ii) तापतालो आसतलो | तापतालो जातलो |

(ग) भविश्य :२: नित्शित

| | |
|---|---|
| (i) तापतलो आसत | तापतलो जायत |
| (ii) तापतलो आसतलो | तापतलो जातलो |

(घ) वर्तमान :२: पूर्ण

(i) तापला आसत    तापला जायत

(ii) तापला आसतलो    तापलो जातलो

(ङ) भूत :२: पूर्ण

(i) तापलो आसत    तापलो जायत

(ii) तापलो आसतलो    तापलो जातलो

—(च) भूत :३: अतिपूर्ण

(i) तापिल्लो आसत    तापिल्लो जायत

(ii) तापिल्लो आसतलो    तापिल्लो जातलो

१०७. (i) हीं **रुपां आसप** आनी **जावप** हांच्या पालवान घडटात आसलीं जाल्यारूय तांच्या **अर्थांत** कांय फरक आसा. **आसप** हें **स्थिती** दाखोवपी क्रियापद. करणी **दुभावी आसता** तेन्ना ताचो पालव घेतात. **जावप** हेंय स्थिति दाखोवपी क्रियापद. मात स्थिती घडपाफाटल्यान कितेंय तरी कारण आसा अशें हें क्रियापद सुचयता. आनी देखून करणेविशीं दुभाव इल्लो चड वाडटा. आनी अशें जेन्ना सुचोवपाचें आसता तेन्ना **जावप** क्रियापद उपकारायतातः

(१) भुरगो शाळेंत **शिकता आसतलो.**

(२) भुरगो शाळेंत **शिकता जातलो.**

पयल्या वाक्यांत शाळेंत भुरग्याच्या शिकपाविशीं नित्शितपणान सांगूंक ना. मातसो दुभाव दिसता. जालेंय जाल्यार मातसो विश्वासूय दिसता.
दुसऱ्या वाक्यांत शाळेंत भुरग्याच्या शिकपाविशीं दुभाव वाडटा.

(ii) **आसत** आनी **जायत** हीं अनित्शित भविश्यकाळी रुपां दुभाव चड म्हणपाचें सांगतात जाल्यार **आसतलो** आनी **जातलो** हीं नित्शित भविश्यकाळी रुपां दुभावाक उणो वाव दितातः

(क) (१) तो कोंकणी शिकला आसत.
(२) तो कोंकणी शिकला जायत.
(ख) (१) तो कोंकणी शिकला आसतलो.
(२) तो कोंकणी शिकला जातलो.

**खं** त दिल्ल्यो देखी दुभावाचे नदरेन मातशो उण्यो.

(आ)

१०८. **आसप** क्रियापदाचो पालव घेवन आनीक कांय रूपां जातात तीं अशीं:

(i) मूळ क्रियापदाचो अतिपूर्ण भूतकाळ आनी **आसप** क्रियापदाचें पूर्ण वर्तमानकाळी रूप.

क्रियापद: **तापप**

| | |
|---|---|
| **हांव तापिल्लों**-ल्लीं-ल्लें आसां | आमी तापिल्ले-ल्लीं- ल्लीं आसात |
| तूं **तापिल्लो-ल्ली**-ल्लें आसा | तुमी तापिल्ले- ल्लीं-ल्लीं आसात |
| तो तापिल्लो आसा | ते तापिल्ले आसात |
| ती तापिल्ली आसा | त्यो तापिल्ल्यो आसात |
| तें तापिल्लें आसा | तीं तापिल्लीं आसात |

क्रियापद: **मागप**

| | ए. व. (कर्माचें) | भो. व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| हांवें/ आमी | | |
| तुवें/ तुमी | | |
| ताणें/ तांणी | मागिल्लो- ल्लीं- ल्लें आसा | मागिल्ले- ल्ल्यो- ल्लीं आसात |
| तिणें/ तांणी | | |
| ताणें/ तांणी | | |

(ii) मूळ क्रियापदाचें अपूर्ण धातूविशेशणी मुळावण आनी **आसप** क्रियापदाचें वर्तमानकाळी पर्ण रूप.

क्रियापद: **तापप**

| ए.व. | भो. व. |
|---|---|
| हांव तापत आसां | आमी तापत आसात |
| तूं तापत आसा | तुमी तापत आसात |
| तो | ते |
| ती तापत आसा | त्यो तापत आसात |
| तें | तीं |

क्रियापदाचें हें रूप आनी वर्तमानकाळ: १: अपूर्ण हीं सारकीं पुण करणी घडत आसा हें दाखोवंक हें रूप उपकारायतात.

देख: **तो तापता** म्हळ्यार:

१. ताका तापपाची संवय आसा.

२. सध्याक तो तापपाची करणी करता.

दुसऱ्या अर्थान चड स्पश्ट सांगपाचें आसता तेन्ना तो **तापत आसा** हें रूप उपकारायतात.

# पाठ आठ
## क्रियापदाचो न्हयकार

१०९. **आसप** क्रियापदाचें न्हयकारी रूप **नासप**.

न + आसप = नासप

**आसप** क्रियापदासारकेंच **नासप** क्रियापद आमच्यांनी चलोवं येता. क्रियापदाचीं न्हयकारी रुपां करतना **नासप** क्रियापदाचीं त्या त्या काळांतलीं रुपां उपकारायतात.

क्रियापदः **नासप**

११०. (i) **वर्तमान :१: अपूर्ण**

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| हांव नासतां | आमी नासतात |
| तूं नासता | तुमी नासतात |
| तो<br>ती नासता<br>तें | ते<br>त्यो नासतात<br>तीं |

१११. (ii) **भूत :१: अपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव नासतालों- लीं-लें | आमी नासताले- लीं -लीं |
| तूं नासतालो-लीं-लें | तुमी नासताले-लीं-लीं |
| तो नासतालो | ते नासताले |
| ती नासताली | त्यो नासताल्यो |
| तें नासतालें | तीं नासतालीं |

११२. (iii) **भविश्य :२: नितिशत**

| | |
|---|---|
| हांव नासतलों-लीं-लें | आमी नासतले-लीं-लीं |
| तूं नासतलो-ली-लें | तुमी नासतले-लीं-लीं |
| तो नासतलो | ते नासतले |
| ती नासतली | त्यो नासतल्यो |
| तें नासतलें | तीं नासतलीं |

११३. (iv) **वर्तमान :२: पूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव नां | आमी नात |
| तूं ना | तुमी नात |
| तो | ते |
| ती ना | त्यो नात |
| तें | तीं |

११४. (v) **भूत :२: पूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव नासलों- लीं- लें | आमी नासले- लीं- लीं |
| तूं नासलो-ली- लें | तुमी नासले- लीं- लीं |
| तो नासलो | ते नासले |
| ती नासली | त्यो नासल्यो |
| तें नासलें | तीं नासलीं |

११५. (vi) **भूत :३: अतिपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव नाशिल्लों- ल्लीं- ल्लें | आमी नाशिल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तूं नाशिल्लो- ल्ली- ल्लें | तुमी नाशिल्ले- ल्लीं- ल्लीं |
| तो नाशिल्लो | ते नाशिल्ले |
| ती नाशिल्ली | त्यो नाशिल्ल्यो |
| तें नाशिल्लें | तीं नाशिल्लीं |

११६. (vii) **भविश्य :१: अनित्शित**

| | |
|---|---|
| हांव नासन | आमी नासूं |
| तूं नासशी | तुमी नासशात |
| तो | ते |
| ती नासत | त्यो नासतीत |
| तें | तीं |

११७. **आसप** क्रियापदाचीं पूर्णकाळी रूपां मोडून हेर रूपांचो न्हयकार आनीक एके भाशेन करतात:

धातू: आस-

आस + ना= आसना

११८. (i) **वर्तमान :१: अपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव आसनां | आमी आसनात |
| तूं आसना | तुमी आसनात |
| तो | ते |
| ती आसना | त्यो आसनात |
| तें | तीं |

११९ (ii) **भूत :१: अपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव आसनासलों- लीं- लें | आमी आसनासले- लीं- लीं |
| तूं आसनासलो- ली- लें | तुमी आसनासले- लीं- लीं |
| तो आसनासलो | ते आसनासले |
| ती आसनासली | त्यो आसनासल्यो |
| तें आसनासलें | तीं आसनासलीं |

१२०. (iii) **भविश्य :२: निश्चित**

| | |
|---|---|
| हांव आसचों-चीं-चें ना | आमी आसचे-चीं-चीं नात |
| तूं आसचो- ची- चें ना | तुमी आसचे- चीं- चीं नात |
| तो आसचो ना | ते आसचे नात |
| ती आसची ना | त्यो आसच्यो नात |
| तें आसचें ना | तीं आसचीं नात |

अकर्मक क्रियापदः **तापप**

१२१. (i) **वर्तमान :१: अपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव तापनां | आमी तापनात |
| तूं तापना | तुमी तापनात |
| तो | ते |
| ती तापना | त्यो तापनात |
| तें | तीं |

१२२. (ii) **भूत :१: अपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव तापनासलों- लीं- लें | आमी तापनासले- लीं- लीं |
| तूं तापनासलो- ली- लें | तुमी तापनासले- लीं- लीं |
| तो तापनासलो | ते तापनासले |
| ती तापनासली | त्यो तापनासल्यो |
| तें तापनासलें | तीं तापनासलीं |

१२३. (iii) **भविश्य :२: नित्शित**

| | |
|---|---|
| हांव तापचों- चीं- चें ना | आमी तापचे- चीं- चीं नात |
| तूं तापचो- ची - चें ना | तुमी तापचे- चीं- चीं नात |
| तो तापचो ना | ते तापचे नात |
| ती तापची ना | त्यो तापच्यो नात |
| तें तापचें ना | तीं तापचीं नात |

१२४. (iv) **वर्तमान :२: पूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव तापूंक ना | आमी तापूंक नात |
| तूं तापूंक ना | तुमी तापूंक नात |
| तो तापूंक ना | ते तापूंक नात |
| ती तापूंक ना | त्यो तापूंक नात |
| तें तापूंक ना | तीं तापूंक नात |

१२५. (v) **भूत :२: पूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव तापलों- लीं- लें ना | आमी तापले- लीं- लीं नात |
| तूं तापलो- ली- लें ना | तुमी तापले- लीं- लीं नात |
| तो तापलो ना | ते तापले नात |
| ती तापली ना | त्यो तापल्यो नात |
| तें तापलें ना | तीं तापलीं नात |

१२६. (vi) **भूत :३: अतिपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव तापूंक नासलों- लीं- लें | आमी तापूंक नासले-लीं- लीं |
| तूं तापूंक नासलो- लीं- लें | तुमी तापूंक नासले- लीं- लीं |
| तो तापूंक नासलो | ते तापूंक नासले |
| तीं तापूंक नासली | त्यो तापूंक नासल्यो |
| तें तापूंक नासलें | तीं तापूंक नासलीं |

१२७. (vii) **भविश्य :१: अनित्शित**

ह्या काळाचीं न्हयकारी रुपां स्वतंत्रतरेन करिनात. हाचो न्हयकार नित्शित भविश्य काळावरीच करतात.

## सकर्मक क्रियापदः **मागप**

माग + इ - मागि

१२८. (i) **वर्तमान :१: अपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव मागिना | आमी मागिनात |
| तूं मागिना | तुमी मागिनात |
| तो | ते |
| ती मागिना | त्यो मागिनात |
| तें | तीं |

१२९. (ii) **भूत :१: अपूर्ण**

| | |
|---|---|
| हांव मागिनासलों- लीं- लें | आमी मागिनासले- लीं- लीं |
| तूं मागिनासलो- ली- लें | तुमी मागिनासले- लीं- लीं |
| तो मागिनासलो | ते मागिनासले |
| ती मागिनासली | त्यो मागिनासल्यो |
| तें मागिनासलें | तीं मागिनासलीं |

१३०. (iii) **भविश्य :२: निश्चित**

| | |
|---|---|
| हांव मागचों- चीं- चें ना | आमी मागचे- चीं - चीं नात |
| तूं मागचो - ची- चें ना | तुमी मागचे- चीं- चीं नात |
| तो मागचो ना | ते मागचे नात |
| ती मागची ना | त्यो मागच्यो नात |
| तें मागचें ना | तीं मागचीं नात |

१३१. (iv) **वर्तमान :२: पूर्ण**

| | ए. व.(कर्माचें) | भो.व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| हांवें/आमी | | |
| तुवें/ तुमी | | |
| ताणें/ तांणी | मागूंक ना | मागूंक नात |
| तिणें/तांणी | | |
| ताणें/तांणी | | |

१३२. (v) **भूत :२: पूर्ण**

| | ए. व. (कर्माचें) | भो.व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| हांवें/आमी | | |
| तुवें/तुमी | | |
| ताणें/तांणी | मागलो-ली-लें ना | मागले- ल्यो- लीं नात |
| तिणें/तांणी | | |
| ताणें/तांणी | | |

१३३. (vi) **भूत :३: अतिपूर्ण**

| | ए. व. (कर्माचें) | भो. व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| हांवें/आमी | | |
| तुवें/तुमी | | |
| ताणें/तांणी | मागूंक नासलो- ली- लें | मागूंक नासले- ल्यो- लीं |
| तिणें/तांणी | | |
| ताणें/तांणी | | |

१३४. (vii) **भविश्य :१: अनित्शित**

हया काळांतलें न्हयकारी रूप नित्शित भविश्याच्या न्हयकारावरीच जाता.

## संकेतार्थाचो न्हयकार

१३५. **तापप**

| | |
|---|---|
| ( i) हांव तापचों नासलों | आमी तापचे नासले |
| तापचीं नासलीं | तापचीं नासलीं |
| तापचें नासलें | तापचीं नासलीं |
| तूं तापचो नासलो | तुमी तापचे नासले |
| तापची नासली | तापचीं नासलीं |
| तापचें नासलें | तापचीं नासलीं |
| तो तापचो नासलो | ते तापचे नासले |
| ती तापची नासली | त्यो तापच्यो नासल्यो |
| तें तापचें नासलें | तीं तापचीं नासलीं |

१३६. **वाचप**

| ए. व | भो. व. |
|---|---|
| हांव | आमी |
| तूं | तुमी |
| तो वाचूं नाका | ते वाचूं नाकात |
| ती | त्यो |
| तें | तीं |

आज्ञार्थाचो न्हयकार करतना धातूक ऊं कूस लागता आनी मागीर एकवचनांत **नाका** आनी भोववचनांत **नाकात** हीं न्हयकारी क्रियापदाचीं रुपां लागतात.

१३७. **वप** न सोंपपी क्रियापदांचे धातू कशेंय आसले जाल्यारूय ऊं कूस लागता तेन्ना तांचें रूप **वं** जाता आनी उपरान्त **नाका** आनी **नाकात** हीं रुपां घालून तांचो आज्ञार्थी न्हयकार करतात.

(i) क्रियापदः धांवप
धातूः धांव-
आज्ञार्थी न्हयकार : धांवं नाका
धांवं नाकात

(ii) क्रियापदः रोवप
धातूः रोय-
आज्ञार्थी न्हयकारः रोवं नाका
रोवं नाकात

(iii) क्रियापदः घेवप
धातूः घे-
आज्ञार्थी न्हयकार : घेवं नाका
घेवं नाकात

१३८. अकर्मक क्रियापद: **तापप**

| | ए. व. | भो.व. |
|---|---|---|
| | हांव तापचो - ची - चें न्हय | आमी तापचे- चीं- चीं न्हय |
| | तूं तापचो-ची-चें न्हय | तुमी तापचे-चीं- चीं न्हय |
| | तो तापचो न्हय | ते तापचे न्हय |
| | ती तापची न्हय | त्यो तापच्यो न्हय |
| | तें तापचें न्हय | तीं तापचीं न्हय. |

१३९. सकर्मक क्रियापद: **मागप**

| | ए. व. (कर्माचें) | भो. व. (कर्माचें) |
|---|---|---|
| हांवे/आमी | | |
| तुवें/तुमी | | |
| ताणें/तांणी | मागचो- ची -चें न्हय | मागचे- च्यो - चीं न्हय |
| तिणें/ तांणी | | |
| ताणें/तांणी | | |

# भाग : २
# नाम
## पाठ णव
## विशय प्रवेश

१४०. भाशेंत क्रियापद एकोडें **घोळना**. तें कर्त्याक बरोबर घेवन घोळटा. सकर्मक क्रियापद कर्माकूय बरोबर घेता.

(i) भुरगो **हांसलो**.

(ii) संवसारांतल्या सगळ्या धर्मांनी मोगाची शिकवण **दिल्या**.

हया दोनूय वाक्यांत क्रियापदां कर्त्याक बरोबर घेवन आयल्यांत.

पयल्या वाक्यांत **भुरगो** कर्तो.

दुसऱ्या वाक्यांत **धर्मांनी** कर्तो.

दुसऱ्या वाक्यांतलें क्रियापद सकर्मक. देखून हया वाक्यांत क्रियापदान **कर्माक** बरोबर घेतलां. हया वाक्यांत **शिकवण** कर्म.

कर्तो वा कर्म आसपी अशें उतर म्हळचार **नाम**.

**नाम** म्हळचार नांव. तें मनशाचें, जिवाचें वा वस्तीचें नांव. तेच भाशेन तांच्यांत आसपी गुण, तांची स्थिती वा तांचे कर्तुप दाखोवपी उतर. तांचेविशीं स्वतंत्रपणान जें जें आसा म्हुण सुचयता तें उतर.

१४१. नामाच्यो दोन मुखेल जाती जातात.

नाम
- मनशाचें, जिवाचें वा वस्तीचें नांव सांगपी उतर — मूर्त नाम
- हांचो गुण, स्थिती वा कर्तुप सांगपी उतर — अमूर्त नाम

१४२. **मूर्त नाम**: जें इंद्रियांक लागून कळटा म्हळचार जाचो समज दोळे, कान, नाक, जीब आनी त्वचा हया पांच इंद्रियांतल्या खंयच्याय एकाक वा चडांक लागून कळटा तें सांगपी उतर.
मनीस, भुरगो, दादलो, बायल, चली, सुणो, म्हस, गाय, रेडो दुकर, कोंबो, कावळो, मूय, पाखो, भिरमूट, पिसोळें, झाड, तण, न्हंय, रेंव, फातर, चंद्र,सूर्य.... .

१४३. **अमूर्त नाम:** जें इंद्रियांक लागून कळना पुण जें आसा म्हणपाचें आमकां समजता तें सांगपी उतर.

मोग, राग, तिडक, न्हीद, झेम, गोडसाण, तीखसाण, घटसाण, धवसाण, सुंदरकाय, जाणवाय, म्हारगाय, नसाय, शाणेपण, पिशेपण, अबुद्दीपण.......

१४४. मूर्त नाम तीन तरांचे आसूं येता:

(i) एके जातींतल्या जिवांचो वा वस्तींचो आसपाव करता तें उतर. ताका **जातीवाचक नाम** म्हणटात.

**पुस्तक-** हचा उतरांत खंयच्याय पुस्तकाचो आसपाव जाता.

**न्हंय-** हचा उतरांत खंयचेय न्हंयेचो आसपाव जाता.

**भुरगो-** हचा उतरांत खंयच्याच भुरग्याचो आसपाव जाता.

**देश-** हचा उतरांत खंयच्याय देशाचो आसपाव जाता.

(ii) मनशाक, जिवाक वा वस्तीक दिल्लें खाशेलें नांव. अशा नामाक **व्यक्तिवाचक नाम** म्हणटात.

**रामायण, बायबल, कुराण-** पुस्तकांची खाशेलीं नांवां.

**मांडवी, गंगा, नायल-** न्हंयांची खाशेलीं नांवां.

(iii) मनीस, जीव वा वस्ती हांचो पुंजो म्हुण सुचोवपी उतर. अशा नामाक **रासनाम** म्हणटात.

**जमो-** मनशांचो

**मेळ-** खेळगडयांचो

**भिरें-** सवण्यांचें

**घोंस-** फुलांचो, फळांचो

# पाठ धा
## लिंग

**१४५. पुरुशलिंग, स्त्रीलिंग** आनी **नपुंसकलिंग** अशा तीन लिंगांमदलें खंयचेंय एक नामाचें लिंग आसता.

सर्वसादारणपणान दादलेपणाचो बोध करपी नाम पुरुशलिंगी आसता. बायलपणाचो बोध करपी नाम स्त्रीलिंगी आसता जाल्यार हचा दोगांचोय बोध जायना अशें नाम नपुंसकलिंगी आसता.

**चत्राय:** लिंग नामाचें, मनशाचें वा जिवाचें न्हय हें समजप गरजचें. कांय फावटी हांचो सरमिसळ जाता पुण लिंग नामाचेंच आसता.

(i) **रेडो**- पुरुशलिंग
**म्हस**- स्त्रीलिंग
**रेडो** म्हळो कि दादलेपणाचो बोध जाता आनी **म्हस** म्हळी कि बायलपणाचो बोध जाता. नीज लिंगाक लागून्य पुरुशलिंग आनी स्त्रीलिंग अशीं हीं दोनूय उतरां आसलीं जाल्यारूय लिंग नामाचें. प्राण्याचें न्हय.

(ii) **माजर**- प्राणी म्हणून **माजर** बायल म्हणपाचें सांगता आसलें जाल्यारूय व्याकरणांत **माजर** हचा नामाचें लिंग नपुंसकलिंग.

१४६. कांय प्राण्यांचें नीज लिंग स्त्रीलिंग आसुनूय व्याकरणांत तीं नपुंसकलिंगी जातात.

| **पुरुशलिंग** | **स्त्रीलिंग** | **नपुंसकलिंग** |
|---|---|---|
| बाब | - | बाय |
| भुरगो | - | भुरगें |
| चेडो | - | चेडूं |
| बुकलो (बोकूल) | - | माजर |
| सुणो | - | कोलूक (कोलगें) |
| पोर | - | पोँर |

१४७. वयर दिल्लीं उतरां सोडलीं जाल्यार नीज लिंग आनी व्याकरणी लिंग समा आशिल्लीं कांय नामां:

| **पुरुशलिंग** | **स्त्रीलिंग** |
|---|---|
| दादलो | बायल |
| घोव | बायल |
| घरकार | घरकान्न |
| बापूय | आवय |
| भाव | भयण |
| पूत | धूव |
| चलो | चली |
| न्हवरो | व्हंकल |
| जांवय | सून |
| मांव | मांय |
| मेवणो | मेवणी |
| नण्डावो | नणन |
| आजो | आजी |
| पाडो (बैल) | गाय |
| रेडो | म्हस |
| बोकडो | बोकडी |

## नामाचें लिंग वळखुपाची तरा

**१४८. क. पुरुशलिंगी नाम**

(i) एकवचनांत ऊ वा ओ स्वरान सोंपता तें नाम चड करून **पुरुशलिंगी.**

(१) **ऊ:** काजू, म्हारू, राजू, लाडू.....

आडवाद: जळू (स्त्री)

(२) **ओ:** आंबो, ताळो, पयसो, बोंडो...

१४९. (ii) सोंपत्या आदल्या अक्षरांतले **अ, ओ** स्वर धांपिल्ले आनी मोटवे आसतात तेन्ना तें **नाम** पुरुशलिंगी.

**अ**: कद (कंद)
कण (कण)
घड (घड)
घण (घण)
जप (जप)
झड (झड)
चाकर (चाकर)
पापड (पापड)

**ओ**:- ओंठ (ओंठ)
घोंट (घोंठ)
चोर (चोर)
जोर (जोर)
पोड (पोड)
मोर (मोर)
रोस (रोस)
सोद (सोद)

१५०. (iii) सोंपत्या आदल्या अक्षरांतलो **आ** स्वर मोटवो आसता तेन्ना तें नाम **पुरुशलिंगी**.

फार, भार, पनवार, वास, त्रास, कान, हात.....

१५१. (iv) दोंगर, दर्या, म्हयने, दीस, हांची नांवां पुरुशलिंगी आसतात.

१. हिमालय, सह्याद्री, सोसोगड....
२. हिंदी म्हासागर, अरबी समुद्र......
३. जानेवारी, फेब्रुवारी, मार्च......
४. आयतार, सोमार, मंगळार.....

## ख. स्त्रीलिंगी नाम

१५२. कोंकणींत चडशीं स्त्रीलिंगी नामां ई स्वरान सोंपतात.

दांतोणी, फांती, दिवली, वेल्ली.....

आडवादः दुदी (पु.)
लोणी (न.)
पाणी (न.)

हातूंतलीं जायतीं नामां चड करून पुरुशलिंगी नामांचें ल्हान रूप आसतात.

पुरुशलिंगाचीं स्त्रीलिंगी जातात तीं अशीं:

| पु. लिं. | स्त्री लिं. |
|---|---|
| आंबो | आंबली |
| बांगडो | बांगुल्ली |
| शेंवटो | शेवटाळी |
| हारसो | हारशी |
| कळसो | कळशी |

१५३. **अय** वा **अंय** अशा संदीस्वरान सोंपपी नाम चड करून स्त्रीलिंगी आसता.

१. **अय**: आवय, कासय, तळय, पसय, पारय......

२. **अंय**: न्हंय, वंय, संवय......

आड्वाद: भंय

१५४. **आय** संदीस्वरान सोंपपी नाम चड करून स्त्रीलिंगी आसता.

**आय**: गाय, जाय, दाय, ल्हाय, पिसाय, सासाय.....

१५५. **ऊय** वा **ऊंय** स्वरान सोंपपी नाम चड करून स्त्रीलिंगी आसता.

१. **ऊय**: मूय, जूय, सूय, कूय, ऊय ....

२. **ऊंय**: भूंय

१५६. न्हंयांचीं नांवां स्त्रीलिंगी आसतात.

मांडवी, जुवारी, कोलवाळ, गंगा, ब्रह्मपुत्रा......

१५७. **काय**, **साण**, **टाण**, अशीं सोंपपी अमूर्त नामां स्त्रीलिंगी आसतात.

१. **काय**: सुंदरकाय, सोबीतकाय, ल्हानतीकाय.....

२. **साण**: घटसाण, खारसाण, बारीकसाण.....

३. **टाण**: खंवटाण, नर्कटाण, आमटाण......

## ग.नपुंसकलिंग : नाम

१५८. **ईं**, **ऊं**, वा **एं** अशा स्वरान सोंपपी नाम नपुंसकलिंगी आसता.

१. **ईं**:- बीं, तांतीं

२. **ऊं**:- रूं, गोरूं, पोरसूं, वासरूं......

३. **एं**:- केळें, तळें, पेंपारें, माथें, रेबें, वजें.....

**१५९.** **अ** स्वरान सोंपपी नामांतल्या सोंपत्याआदल्या अक्षरांतलो **अ, ए** वा **ओ** स्वर उकतो (ॅ) आसता तेन्ना तीं नपुंसकलिंगी आसतात.

१. **अः** घर
खत
रगत

२. **एः** मदेर
कदेल
तेल
नाल्लेल
कपेल

३. **ओः** जोख
मोड
पोर
धोण
खातोड

**१६०. अन, अण, अन्न, अल्ल** अशीं सोंपपी नामां तातूंतलो **अ** उकतो आसल्यार नपुंसकलिंगी आसतात.

१. **अनः** मन, धन, आयदन, भजन.....
२. **अणः** तण, धांपण, रण.....
३. **अन्नः** अन्न, तन्न......
४. **अल्लः** कल्ल, बल्ल, मल्ल.....

**१६१.** **पण** कुसान सोंपपी अमूर्त नामां नपुंसकलिंगी आसतात.

**पण** : शाणेपण, पिशेपण, व्हडपण, फटींगपण......

# पाठ इकरा
## वचन

**१६२.** नामाक वचनां दोनः **एकवचन** आनी **भोववचन**. उतर जेन्ना **एक** म्हुण सुचयता तेन्ना तें **एकवचनी** आसता. एकापरस चड म्हुण सुचयता तेन्ना तें **भोववचनी** आसता.




**एकवचनी नाम भोववचनी जावपाचे नेमः**

**१६३. क. पुरुशलिंगी नामाचें भोववचन**

(i) मोन्या **अ** स्वरान सोंपपी पुरुशलिंगी नाम भोववचनांत मोन्या **अ** स्वरानूच सोंपता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| हात | हात |
| रूख | रूख |
| मनीस | मनीस |

(ii) **आ** स्वरान सोंपपी पुरुशलिंगी नाम भोववचनांत **आ** स्वरानूच सोंपता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| मामा | मामा |
| राजा | राजा |
| रुपया | रुपया |
| दर्या | दर्या |

(iii) **ई** स्वरान सोंपपी पुरुशलिंगी नाम भोववचनांत **ई** स्वरानूच सोंपता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| दुदी | दुदी |
| तेली | तेली |
| हती | हती |
| तारवटी | तारवटी |

(iv) ऊ स्वरान सोंपपी पुरुशलिंगी नाम भोववचनांत ऊ स्वरान सोंपता.

| ए. व. | भो.व. |
|---|---|
| काजू | काजू |
| चिकू | चिकू |
| पालू | पालू |
| बाबू | बाबू |
| धातू | धातू |
| लिंबू | लिंबू |
| शाबू | शाबू |
| जरदाळू | जरदाळू |

(v) ओ (ॅ) उकत्या स्वरान सोंपपी पुरुशलिंगी नाम भोववचनांत ए उकत्या स्वरान सोंपता.

| ए.व. | भो.व. |
|---|---|
| घोडो | घोडे |
| आंबो | आंबे |
| चेडो | चेडे |
| कावळो | कावळे |
| बांगडो | बांगडे |
| सोरो | सोरे |

(vi) स्वरांचो उच्चार बदलून नामाचें भोववचन जाता.

१. मोन्या अ न सोंपिल्ल्या पुरुशलिंगी नामांत धांपिल्लें अ आसल्यार भोववचनांत ताचो उच्चार उकतो जाता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| रथ | रथ |
| वड | वड |
| दुकर | दुकर |
| मडवळ | मडवळ |

२. मोन्या **अन** सोंपिल्ल्या पुरुशलिंगी नामांत धांपिल्लो **ए** वा **ओ** आसल्यार भोववचनांत ताचो उच्चार **उकतो** जाता.

| ए. व. | भो.व. |
|---|---|
| तेर | तेर |
| देर | देर |
| नेर | नेर |
| चेर | चेर |
| ओंठ | ओंठ |
| मोर | मोर |
| पोर | पोर |
| दोतोर | दोतोर |

## १६४. ख. स्त्रीलिंगी नामाचें भोववचन

(i) **अ** स्वरान सोंपपी कांय स्त्रीलिंगी नामां भोववचनांत **ई** स्वरान सोंपतात.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| रात | राती |
| काज | काजी |
| पाल | पाली |
| कायल | कायली |
| सायकल | सायकली |
| केळ | केळी |

**अ** स्वरान सोंपपी कांय दुसरीं स्त्रीलिंगी नामां **ओ** स्वरान सोंपतात.

| ए. व. | भो. व |
|---|---|
| जीब | जिबो |
| वाट | वाटो |
| माळ | माळो |
| भास | भासो |

(ii) **आ** स्वरान सोंपपी स्त्रीलिंगी नाम भोववचनांत **आ** स्वरानूच सोंपता.

| ए. व. | भो.व. |
|---|---|
| काया | काया |
| पिडा | पिडा |
| फोडा | फोडा |
| प्रजा | प्रजा |
| मजा | मजा |
| तरा | तरा |
| सया | सया |

(iii) ई स्वरान सोंपपी दोन अक्षरी स्त्रीलिंगी नामाचें भोववचन घडटा आसतना उतर **अ** स्वरी जाता आनी उपरान्त ताका **यो** कूस लागता. हो **अ** स्वर मोटवो उरता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| तोपी | तोपयो |
| तळी | तळयो |
| नळी | नळयो |
| फांती | फांतयो |
| राणी | राणयो |

(iv) ई स्वरान सोंपपी तीन वा चड अक्षरी स्त्रीलिंगी नामाचें भोववचन घडटा आसतना **अ** स्वर अर्दो जाता आनी मागीर ताका **यो** कूस लागता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| कापटी | कापट्यो |
| नडणी | नडण्यो |
| दिवली | दिवल्यो |
| पिपरी | पिपऱ्यो |
| पिशवी | पिशव्यो |
| समजणी | समजण्यो |
| सरपळी | सरपळ्यो |

(v) **ऊ** स्वरान सोंपपी स्त्रीलिंगी नामाचें भोववचन घडटा आसतना **ऊ** स्वर **अ** जाता आनी मागीर **वो** कूस लागता. **अ** स्वर मोटवो जाता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| जळू | जळवो |
| ताळू | ताळवो |
| वाळू | वाळवो |

(vi) **अय, अंय, आय, आंय, ऊय, ऊंय, ओय, ओंय** अशा संदीस्वरांनी सोंपपी स्त्रीलिंगी नामाचें भोववचन **ओ** स्वरान सोंपता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| बय | बयो |
| वंय | वंयो |
| गाय | गायो |
| बांय | बांयो |
| मूय | मुयो |
| भूंय | भुंयो |
| सोय | सोयो |
| पोंय | पोंयो |

**१६५. ग. नपुंसकलिंगी नामाचें भोववचन**

(i) मोन्या **अ** स्वरान सोंपपी नपुंसकलिंगी नाम भोववचनांत **आं** स्वरान सोंपता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| तण | तणां |
| कणस | कणसां |
| कापड | कापडां |
| तळप | तळपां |

(ii) **ई** स्वरान सोंपपी नपुंसकलिंगी नामाचें भोववचन जाता आसतना **ई** स्वरा जाग्यार **अ** स्वर जाता आनी मागीर **यां** कूस लागता. **अ** स्वर मोटवो उरता.

| ए. व. | भो. व. |
|---|---|
| तांतीं | तांतयां |
| मोतीं | मोतयां |

**ई** स्वरान सोंपपी उतर **एक अक्षरी** आसता तेन्ना फकत **यां** कूस लागता. **ई** हो लांबोडो स्वर **इ** असो मोटवो स्वर जाता.

| | |
|---|---|
| बीं | बिंयां |

(iii) **ऊं** स्वरान सोंपपी दोन अक्षरी नपुंसकलिंगी नामाचें भोववचन जाता आसतना **ऊं** स्वराच्या जाग्यार **अ** स्वर जाता आनी मागीर **वां** कूस लागता. **अ** स्वर मोटवो उरता.

| | |
|---|---|
| ए. व. | भो. व. |
| तारूं | तारवां |
| कालूं | कालवां |
| गोरूं | गोरवां |

**ऊं** स्वरान सोंपपी उतर **एक अक्षरी** आसता तेन्ना **ऊ** लांबोडो स्वर **उं** जाता आनी मागीर ताका **वां** कूस लागता.

| | |
|---|---|
| रूं | रुंवां |
| जूं | जुंवां |

(iv) **ऊं** स्वरान सोंपपी उतर तीन वा चड अक्षरी आसता तेन्ना **ऊं** चें **आं** जाता.

| | |
|---|---|
| पोरसूं | पोरसां |
| वासरूं | वासरां |

(v) **एं** स्वरान सोंपपी नपुंसकलिंगी नाम भोववचनांत **ईं** स्वरान सोंपता.

| | |
|---|---|
| आबोलें | आबोलीं |
| तवशें | तवशीं |
| भुरगें | भुरगीं |
| गाराणें | गाराणीं |

(vi) **अ** स्वरान सोंपपी नामांत उकतो **ए** वा उकतो **ओ** आसत जाल्यार भोववचनांत नपुंसकलिंगी उतर **आं** जाता:

| | |
|---|---|
| शेत | शेतां |
| न्हेसण | न्हेसणां |
| पोर | पोरां |
| तोर | तोरां |
| दोर | दोरां |
| बोर | बोरां |
| बोट | बोटां |

## पाठ बारा

## सर्वनाम

**१६६.** नामाबदला **जायत्या** फावटी दुसरें उतर उपकारायतात. ताका **सर्वनाम** म्हणटात. नाम जशें लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण बदलता तशेंच सर्वनामूय बदलता.

(i) शाणो बाजारांत गेलो.

**तो** बाजारांत नुस्तें घेतलो.

**तो** उतर **शाणो** हचा उतराबदला आयलां. म्हुण **तो** सर्वनाम.

(ii) हांव वाचतालों तें पुस्तक ह्याडशी?

**हें** घे.

**हें** उतर **पुस्तक** हचा उतराबदला आयलां. म्हुण **हें** सर्वनाम.

**१६७. क. पुरुश सर्वनाम**

मनीस आपणाक लेखून उलयता तेन्ना तो **हांव** म्हणटा. तो दुसऱ्याकडेन ताकाच लेखून उलयता तेन्ना तो **तूं** म्हणटा. तो तिसऱ्याक लेखून उलयता तेन्ना तो ताका **तो** म्हणटा.

उलोवपी **हांव** हाका व्याकरणांत **पयलो पुरुश** (प्रथम पुरुश) म्हणटात. जाचेकडेन उलयता तो **तूं** हाका **दुसरो पुरुश** (द्वितीय पुरुश), जाचेविशीं उलयता तो **तो** हाका **तिसरो पुरुश** (तृतीय पुरुश) म्हणटात.

**हांव, तूं तो** हीं सर्वनामां.

तीं पुरुश दाखयतात म्हुण तांका **पुरुश सर्वनामां** म्हणटात. तीं पुरुशलिंगी आसूं येतात, स्त्रीलिंगी आसूं येतात वा नपुंसकलिंगी आसूं येतात. तशेंच तीं एकवचनी वा भोववचनी आसूं येतात.

हीं तीन सर्वनामां वेगळ्या वेगळ्या लिंगांनी आनी वचनांनी अशीं उपकारायतात:

| | एकवचन | | | भोववचन | | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| | प. पु. | दु. पु. | ति. पु. | प. पु | दु. प. | ति. पु. |
| पुरुशलिंग | हांव | तूं | तो | आमी | तुमी | ते |
| स्त्रीलिंग | हांव | तूं | ती | आमी | तुमी | त्यो |
| नपुंसकलिंग | हांव | तूं | तें | आमी | तुमी | तीं |

फकत तिसरो पुरुश सोडलो जाल्यार दुसऱ्या दोनूय पुरुशांनी (म्हळयार पयलो पुरुश **हांव** आनी दुसरो पुरुश **तूं**) हीं रुपां तिनूय लिंगांत तशींच उरतात. तेच भाशेन **आमी** आनी **तुमी** हींय भोववचनी रुपां तशींच उरतात.

१६८.

## ख. दर्शक सर्वनाम

"तुवें म्हजो रेडियो पळयला?"

"**हो** न्हय?"

"न्हय. थंय आसा **तो** हाडशी?"

वयर दिल्ल्या वाक्यांनी **हो** आनी **तो** हीं सर्वनामां. हचा सर्वनामांचो उपेग दाखोवपाखातीर करतात म्हुण तांकां **दर्शक सर्वनामां** म्हणटात.

लागिंच्याक लेखतना **हो** सर्वनाम उपकारायतात.

पयसुल्याक लेखतना **तो** सर्वनाम उपकारायतात. दर्शक सर्वनामां सदांच तिसरो पुरुशी आसतात. लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण तीं बदलतात.

| | ए. व. | | भो. व. | |
|---|---|---|---|---|
| | तिसरो पुरुश | | तिसरो पुरुश | |
| पुरुशलिंग | हो | तो | हे | ते |
| स्त्रीलिंग | ही | ती | हयो | त्यो |
| नपुंसकलिंग | हें | तें | हीं | तीं |

१६९.

## ग. संबंदी सर्वनाम

"हो तो गांव, **जो** सदांच सुखांत आसता."

वयल्या वाक्यांत **जो** हें उतर सर्वनाम. तें संबंद दाखयता देखून ताका **संबंदी सर्वनाम** म्हणटात.

हेंय सर्वनाम तिसरो पुरुशी आसता. दर्शक सर्वनामावरीच हातूंत लिंग आनी वचन हांचेप्रमाण बदल घडटात.

| | ए. व. | भो. व. |
|---|---|---|
| | तिसरो पुरुश | तिसरो पुरुश |
| पुरुशलिंग | जो | जे |
| स्त्रीलिंग | जी | ज्यो |
| नपुंसकलिंग | जें | जीं |

१७०. **घ. प्रस्नार्थी सर्वनाम**

"**कोण** आयला भायर?"

"**कितें** जाय?"

प्रस्न करूंक **कोण** आनी **कितें** उपकारायल्यांत तीं उतरां सर्वनामां. प्रस्न करूंक तीं उपकारायल्यांत म्हुण तांका **प्रस्नार्थी सर्वनामां** म्हणटात.

**कोण** हें सर्वनाम तिनूय लिंगांत आनी दोनूय वचनांत तशेंच उरता. **कितें** हें सर्वनाम सदांच नपुंसकलिंगी.

१. **कोण** म्हणटा कोंकणी एक गिरेस्त भास जाल्यार **कोण** म्हणटा कोंकणी भासूच न्हय.

२. आपले भाशेक वळखनाशिल्ल्या लोकांक **कितें** म्हणचें तेच कळना.

हचा दोनूय देखींनी आयिल्लीं **कोण** आनी **कितें** हांका प्रस्नार्थी सर्वनामां म्हणूंक नजं. दिस्तूच कोण वा कितें तें हचा उतरांतल्यान उकतें जायना हचाखातीर अशा वाक्यांनी हचा सर्वनामांक **अनित्शित सर्वनामां** म्हणटात.

१७१. **ङ. आत्मवाचक सर्वनाम**

"**आपुण** कोण हें मनशाक कळूंक जाय."

" **आपुण** गरीब म्हुण भुरगीं गरीब उरचीं अशें ना."

**आपुण** हें वयल्या वाक्यांनी आयिल्लें उतर सर्वनाम. तें खंयच्या नामाबदला आयलां? पयल्या वाक्यांत तें **मनीस** (**हांव** हचा अर्थान)नामाबदला आयलां. दुसऱ्या वाक्यांतूय तें **मनीस** (**हांव** हचा अर्थान) हचा उतराबदला आयलां. **हांव** हांचो भावार्थ मनशांतलो आत्मो. देखून **आपुण** हचा सर्वनामाक **आत्मवाचक सर्वनाम** म्हणटात. हचाभायर **स्वतः** हेंय सर्वमान उपकारायतात. तें तिनूय **पुरुशी** आनी दोनूय वचनी आसता

**सर्वनामां**

क. पुरुश सर्वनाम : **हांव, तूं, तो**

ख. दर्शक सर्वनामः **हो, तो**

ग. संबंदी सर्वनामः **जो**

घ: प्रस्नार्थी-सर्वनामः **कोण, कितें**

ङ. आत्मवाचक सर्वनामः **आपुण**

हे भाशेन कोंकणींत हीं मुखेल **णव** सर्वनामां आसात.

१७२. सर्वनामां **दोडीं** जावनूय घोळटात. तांका **दोट्टी सर्वनामां** म्हणटात.

| | |
|---|---|
| हांव तो | हो तो |
| तूं तो | जो तो |
| तो तो | कोण कोण |
| | ...... |

१. "आरे, तूं म्हाका वळखना? **हांव तो** फ्रांसिस्क."
२. "**तू तो**? हांव समजलों तो जानू म्हुण."
३. "बसकेक **कोण कोण** आयिल्ले?"
४. "**जो तो** म्हणटा आपुण शाणो."
५. "**हो तो** एक पिसो! आमची फाट कशीच सोडिना."

१७३. दुभाव दाखोवंक सर्वनामाबरोबर **काय** हें उतर उपकारायतात.

| | |
|---|---|
| हांव काय | हो काय |
| तूं काय | कोण काय |
| तो काय | |

१. "शाण्या, **तूं काय** कितें रे थंय काळखांत?"
२. "तांगेर आयला तो **कोण काय**?"
३. "हांव **तो काय** म्हणटालो. पुण तो न्हय.
४. "**हो काय** तांचो भाव? **हांव काय** नकळं."

# भाग : ३
# पाठ तेरा
# विशेशण

१७४. नामाविशीं जें उतर खास वा विशेश अशें सांगता ताका **विशेशण** म्हणटात.

**घर** म्हळें कि आमच्या मुखार घराची एक आकृताय येता. **ल्हान घर, मोटें घर**, म्हणटकच घराचें एक खाशेलेंपण कळटा. हातूंत **ल्हान, मोटें** ह्या उतरांक लागून त्या त्या **घराचें** खाशेलेंपण कळटा.

१७५. विशेशण नामावांगडा वा क्रियापदावांगडा येता.

(i) नामावांगडा विशेशणः

१. म्हजो **व्हडलो** भाव मुंबयच्यान आज येतलो.

२. **घट** मनशाक भियेवपाची गरज ना.

३. तो **ल्हान** खोंपटांत रावतालो.

(ii) क्रियापदावांगडा विशेशणः

१. हांगा भुरगीं **शार्णी** जातात.

२. घरचें जेवण सदांच **गोड** आसता.

३. दर एकले आवयक आपलें भुरगें **सुंदर** दिसता.

१७६. जायत्या फावटी विशेशण नाम कशें जावन येतां. तेन्ना तें विशेशण उरना पुण **नाम** जाता.

ल्हान जाले म्हान. ल्हानः नाम

म्हानः नाम

ह्या वाक्यांत **ल्हान** म्हळ्यार ल्हान मनीस. **म्हान** म्हळ्यार मोटे मनीस.

१७७. विशेशण **मुळावें** आसता. तशेंच **घडिल्लेंय** आसता. क्रियापदाच्या पूर्ण धातूविशेशणापसून जाल्ल्या विशेशणाक **घडिल्लें** विशेशण म्हणटात.

(i) **सोबीत** फुलां सगळ्यांकूच आवडटात.

म्हजे धुवेक **फुलिल्लो** कळो आवडटा.

(ii) वतांत भोवन भोवन ताका **खूब** तान लागिल्ली.

ताचो **तानेल्लो** जीव उदक मेळटकूच धादोशी जालो.

वयल्या देखींनी **सोबीत** आनी **खूब** हीं मुळावीं विशेशणां जाल्यार **फुलिल्लो** आनी **तानेल्लो** हीं घडिल्लीं विशेशणां.

**फुलल** हचा पूर्ण धातूविशेशणावयल्यान **फुलिल्लो** जालें.
**तानेल** हचा पूर्ण धातूविशेशणावयल्यान **तानेल्लो** जालें.

**१७८.** मुळावें विशेशण दोन तरांचें आसता.

**क.** नामाचो गुण दाखोवपी. ताका **गुणविशेशण** म्हणटात.

१. **ल्हान** घरांत सुख आसता.
२. कश्ट करून तो **गिरेस्त** जालो.
३. **निळें** मळब आनी **पाचवीं** शेतां गोंयचे सुंदरकायेंत भर घालतात.

**ख.** नामाची संख्या दाखोवपी. ताका **संख्याविशेशण** म्हणटात.

१. **बत्तीस** रुपया **एका** किलोक अशी आतां च्याची दर जाल्या.
२. प्रवासी जावपाक **दोन** गजाली जाय.
३. मोगाक **दुसरी** भास समजना.
४. लोकांनी हचा विशयाचीं **खूब** फकाणां माल्लीं.

संख्याविशेशण नामाची संख्या दाखयता.

(i) ही संख्या पूर्ण आसूं येता.

१. हांवे पोरसांत **तीन** केळी रोयल्यात.
२. फुटबॉल खेळांत **इकरा** गडे आसतात. जाल्यार कबड्डींत **सात** गडे आसतात.
३. **शंबर** कौरव आनी **पांच** पांडव हांचेमदीं आकांताचें **झूज** जालें.

**तीन, इकरा, सात, शंबर, पांच** हीं पूर्ण संख्याविशेशणां. तांका **पूर्णांक विशेशणां म्हणटात.**

(ii) ही संख्या अपूर्ण आसूं येता.

१. बापायन आपणाले येणावळीचो **पांचवो** वांटों धुवेक दिलो.
२. बक्षिसाचो **तिसरो** वांटो आपणाक मेळ्ळो म्हुण ताका खोस जाली.
३. भाटाच्या **धाव्या** वांटयान ताका गिरेस्त केलो.

**पांचवो, तिसरो, धावो** हीं अपूर्ण संख्याविशेशणां. तांकां **अपूर्णांक विशेशणां** म्हणटात.

(iii) ही संख्या पांवडो दाखोवपी आसूं येता.

१. आपलो पूत **पयलो** आयलो म्हुण आवय खुशालभरीत जाली.

२. धांवपाचे सर्तींत म्हजो चलो **पांचवो** आयलो.

३. आपलो पंगड **चवथो** आयलो म्हुण ताका वायट दिसलें.

**पयलो, पांचवो, चवथो** हीं उतरां क्रम दाखयतात. तांकां **क्रमविशेशणां** म्हणटात.

(iv) ही संख्या अनित्तिशत आसूं येता.

१ **कांय** भुरगे घरा गेले. **कांय** भुरगे रावले.

२. **थोडे** लोक शाणे आसतात. जाल्यार **थोडे** लोक पिशे आसतात.

**कांय, थोडे** हीं उतरां नित्तिशत कितली संख्या तें सांगिनात. देखून हचा विशेशणांक **अनित्तिशत विशेशणां** म्हणटात.




१७९. जायत्या फावटी सर्वनामां विशेशणांभाशेन उपकारायतात. तांकां **सर्वनामी विशेशणां** म्हणटात.

(i) गोंयचे रेंदेर सदांच कांतारां म्हणटात. **त्या** रेंदेरांचो आवाज गोड आनी तांचीं कांतारां म्होवाळ.

(ii) केन्ना केन्ना दिसता:

**ही** काळखी रात केन्नाच सोंपपाची ना. आनी धीर सुट्टा.

निर्शेणेच्या **हचा** खिणांतून जिस्त फांतोड सुरू जाल्ली आसता.

**त्या, ही, हचा,** हीं सर्वनामां नामावांगडा विशेशणाच्या रुपांत आयल्यांत. देखून तांकां **सर्वनामी विशेशणां** म्हणटात.

१८०. कांय विशेशणां सर्वनामाचें काम करतात. तांकां **विशेशण सर्वनामां** म्हणटात.

(i) सोरो पियेता **तसलो** दादलो खंयचे बायलेक मानवत?

(ii) **तसलो** हो आसत हें कोणाक खबर?

पयल्या वाक्यांत **तसलो** हें विशेशण. मात दुसऱ्या वाक्यांत तेंच उतर **सर्वनाम** जावन आयलां. देखून दुसऱ्या वाक्यांत **तसलो** हें सर्वनाम.

